# आय डोन्ट केअर

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नाईक

# I DONT CARE

A Konkani Play by-
Mahesh Chandrakant Naik

**उजवाडावपी :**
अक्षरब्रम्ह प्रकाशन
द्वारा-महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी - गोंय ४०३००१
फोनः २४२६२०९
**प्रकाशन क्रं - ११**

**पयली आवृत्ती :**
जून २०१०

**मुखावर्ले चित्र :**
कु. सुनैना कोरगांवकर

**अक्षरजुळवण :**
अक्षर रचना,
पणजी, गोवा.

**छापणावळ :**
श्री प्रिन्टर्स, मेरशी

**मोल** : १००/- रु.

**लेखकाचो नामो :**
महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय-४०३००१
फोन.: २४२६२०९ मोब.: ९९६०३७५५८८

## म्हजीं दोन उतरां...

'आय डोन्ट केअर' दोन बायलां आनी दोन दादल्याच्या स्वभावाची ही काणी. दर एके बायलेचो, दादल्याचो स्वभाव वेगळो आसता. एकाच स्वभावाची जोडपी मेळप कठीण. ह्या नाटकान लेगीत चारूय जाणांचो रंग वेगळे आसा.

'मिथिला' हें एक साधें सरळ चेडूं. दर एक गजाल शंकराक म्हळ्यार देवाक सांगपी. संस्कृतीचो अर्थ कोणाक खबर ना, जाल्यार मिथिलाक पळोवचें. दुसरें आसा 'कविता' हाका पळोवन कोणय आपली संस्कृती विसरची. सामान्य मनशाचे विचार आणि हाच्या विचारांत जाय तो फरक आसा. तिसरो आसा 'समीर' नावाचो भाबडो चलो. आवय बापायच्या उतराचो, मनान सादारण अशीं सपनां साठोन दवरपी आणि चौथो 'आकाश', जाका जगाची पर्वा ना भविश्याचो विचार सोडून वर्तमानाच्या सुखान जगपी.

खरें सांगचें जाल्यार ह्या चारूय स्वभावानी म्हज्या जिविताचें दार धाडायला. हे चार स्वभाव म्हाका पट्टा, पटना हो भाग वेगळो, पूण निमणो हाव एक नाट्यलेखक दर एके गजालीन कॉन्सेप्ट सोदतलोच. ताकालागोन ह्या चारांक घेवन एक कॉन्सेप्ट कसो उबो जातलो, हाचो विचार हांवेन पयलीं केलो.

मोग हो आंधळो आसता, हें आमीं जाय ते फावट आयकलां, वाचलां. पूण आयकून वाचून जायना, सिद्ध जाल्लें पळोंक जाय. ह्या नाटकान तें सिद्ध जाला. साधो सरळ चलो एका मॉडर्न चेडवाच्या मोगान पडटा आनी संस्कृतीन वाडलेलें चेडू व्यसनी चल्याच्या मोगान पडटा. हो आंधळो मोग न्हयजाल्यार किदें. 'लव अॅट फर्स्ट सायड' पयल्याच नदरेचो मोग हो असो आसता. त्यावेळार ताजो चेहरो मनान भरता,

स्वभाव न्हय. स्वभाव वळखुपाक ताजेबरोबर दिस काडचे पडटा. कांय मोग दुसऱ्यावांगडा वावुरल्या उपरांत जल्मांक येता.

दर मनीस जल्माक येतकूच आवय बापूय सांगता तसो वागता तो बायल येतकूत तसो वागता असो ना. आवय बापायचे संस्कार आयुश्यभर सांभाळपी वेगळे आनी जुवानीची पाखां लावन जाय थंय उडणारे वेगळे. दर एका मनशाचे विचार वेगळे आसा. तुका पट्टा ते म्हाका पट्टा अशें ना, म्हाका अशे दिसता जाल्यार ताका तशें दिसता, हांव किदें करता तें म्हाका बराबेर दिसता, तू किदे करता तें तुका बरोबर दिसता. दर मनशाचें जशे विचार वेगळे, तशें जगपाची पद्धत वेगळी.

समीराचें सपन आसलें आवय बापायन बरो शिकयला, कामाक लागला आता बरे चलयेकडे लग्न जावचें, जें आवय-बापायची सेवा करतलें. खरेंच, समीरच्या जिवीतान मिथिला सारके संस्कृती सांबाळणारे चली आयिल्लें जाल्यार ताज्या जिवितान गोडी येतली आशिल्ली. पूण दोन पॉसीटीवान लायट पेटना नेगीटीवाची गरज पडटा.

ह्या नाटकांतले चारूय रंग तुमी पळयल्यां आसतलें. पळोंक जाय किद्याक, घडये हातुंलो एक रंग तुमच्यात आसत. ह्या चारान एकट्याचोय स्वभाव तुमका पटना अशें जांव शकना. म्हळ्यार जाचो स्वभाव पटलो तो स्वभाव तुमचो. पूण स्वताचो स्वभाव मानून घेवपाची हिम्मत आसूंक जाय. नाजाल्यार स्वतान कवीताचे गूण बाळगप आनी म्हणप मिथिलाचो स्वभाव पट्टा.

पयलींत सांगल्याबशेन ह्या चारूय पात्रांनी म्हज्या आंगणान पाय दवरला. त्या चारूय जाणांनी हे नाटक वाचलां, पळयलां आनी केलां लेगीत, त्या, त्या पात्रांचें तें तें वाक्य, तें विचार, ती वागणूक तश्याक तशी हांवेन मांडल्या. फरक आशिल्लो फकत नांवाचो, तरी लेगीत कोणाक हें सत्य वळखुपाक कळाव लागलो तर कोणी पयलेच नदरेन स्वताचें अस्तित्व ह्या नाटकान पळयलें.

स्वभाव कितलोय वायट आसलो तरी तो बदलना अशें ना. वाल्याचो वाल्मिकी जाल्ल्या भारतान आर्मी रावता वायट गुण आंगान येवपाक वेळ लागना. तशें ते आंगातल्यान वचपाक वेळ लागना. एक प्रकारचो जोर तो, जोराक धावणावपाक आमचेकडे वखत आसा. ह्या नाटकान कविताचो जोर समीराच्या वखतान पैस वता तसोच आकाशाचो जोर मिथिलाच्या वखतान पैस वता.

दर एकल्याच्या विचाराक स्वातंत्र्य आसा. पूण तरी लेगीत आर्मी ह्या समाजान रावता ताचे काय नियम ठरलेले आसा. त्या नियमानुसार दर एकल्याक चलचे पडटा. नाटकांतल्या पात्रांनी समाजाचें नियम तोडले तरी निमाणे ते पायळ्ळें पूण हें एक नाटक. ताजो शेवट दाखोवपाक सगळे जाग्यार हाडचेंच पडटा. पूण अशें वेगळ्या विचारांचे मनीस सत्यान बदलतले? काय आपल्या वेगळेपणाचो मुकूट माथ्यार दवरून ते आयुश्यभर मिरयतले आनी म्हणटले आय डोन्ट केंअर...

–महेश चंद्रकांत नाईक

## खाशेलें उपकार

*म्हजें हें नाटक पुस्तक रूपान येवपाक*
*मुकेश कायसूवकार*
*आनी कैलास नाईक*
*हांणी खूप आदार दिला,*
*ते खातीर तांचें खाशेलें उपकार*

# आय डोन्ट केअर

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग कार्मीभाट मेरशे हांगा श्री सातेरी देवस्थानच्या नाट्यमंडपान २० मार्च २००५ ह्या दिसा सादर केलो. ह्या प्रयोगान वांटो घेतिल्या कलाकारांची नामावळ.

| | |
|---|---|
| बरोवपी / बसोवपी | - महेश चंद्रकांत नाईक |
| वेशभुशा | - सौ. प्रणीशा कवळेकर |
| पार्श्वसंगीत | - शिवनाथ नाईक |
| उजवाडा येवजण | - विकास चोपर्डेकर |
| नेपथ्य | - कमलाकांत च्यारी |
| रंगभुशा | - प्रल्हाद नाईक |

निर्मिती मुखेली - किशोर नार्वेकार, देवानंद नाईक, पालव - नाना नाईक, राघू खांडोळकार, सदानंद शिरोडकार, अशोक नाईक

## भुमिका आनी कलाकार

| | |
|---|---|
| आकाश | - गोविंद कवळेंकर |
| समीर | - देवेद्र कळंगुटकर |
| ज्योतिशी /डोर किपर | - प्रल्हाद नाईक |
| मनीस | - शिरीष उसकैकर |
| मिथिला | - डॉ. नम्रता नेरूरकर |
| कविता | - कु. दीपा गोलतेकर |
| नर्स | - कु. दीप्ती शिरगांवकर |

## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्लें कोंकणी नाट्य साहित्य

**उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां :**

१. ॲक्शन
२. ऑल फॉर यू
३. अॅरेस्ट हिम
४. ॲक्टींग, ॲक्टींग
५. आय ॲम सॉरी
६. ॲक्चुअली.... आय लव्ह यू
७. आत्मो
८. आत्या, आत्या सून कर
९. ओन्ली फॉर यू
१०. आमी ना कमी
११. आय डोन्ट केअर

**उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां**

आधार एअरलायन्स, अपुरें स्वातंत्र्य, ऑपरेशन डबल गेम, आता तरी हय म्हण, अठरा जून, आय हेट यू.

**एकांकी**

ऑपरेशन डबल ए, आधार

**नाटकुलीं**

आर्मी अशें म्हणून तशें
आमचो खेळ
आयच्यान आळशीपणां नाका

**एकपात्री**

चेडू, मिस इंडिया, व्हकल, मेथी, मातयेचो बावलो, बावली

॥ श्री गणेश ॥

## अंक पयलो

(पडदो उगडटा, एक पब्लीक जागा, दोन इश्टीणी, मिथिला आनी कविता. मिथिला पुस्तक वाचीत बसला, कविता मोबायलार उलयता.)

**कविता** : मिथिला......

**मिथिला** : किदें?

**कविता** : किदें वाचता गो?

**मिथिला** : भगवद्गीता, बरी आसा, म्हजी वाचून जाली काय तू वाच.

**कविता** : हांवेंन कॉलेजीन केन्ना पुस्तकांचेर नदर मारुंक ना आनी तू म्हाका भगवद्गीता वाचपाक सांगता. मॅडम, भगवद्गीता वाचपाचें दिस गेलें. आतां फकत मोबायलार हॉट मॅसेजीस वाचपाचें.

**मिथिला** : पुण कविता कॉलेज लायफ केन्ना सोंपलें कळोकूच ना न्हय. खरें, परतून एकदा जाय ते लायफ.

**कविता** : हें तू म्हणटा? अगो इतकी वर्सा कॉलेजीन केलें किदे तुवेन.

**मिथिला** : किदें म्हळ्यार, अभ्यास केलो.

**कविता** : मिथिला फकत शिकपाकलागोन आमी कॉलेजीन वचना. शिक्षणाभायर कॉलेजीन करपासारकें खूप किदें आशिल्लें, पुण तूवेंनं कांयच करुंकना.

**मिथिला** : म्हाका एन्जोयमेन्ट आवडना.

**कविता** : तुका कांयच आवडना. सादी खंयची फॅशन कर म्हटले

तर तेंय आवडना. तकलेर तेल, केसाची विणी आनी तातून गुलाबाचें फुल. हें सगळें एका शारांतल्या चेडवाक सोबता?

मिथिला : मागीर तुज्याबशीन स्वताक ॲक्सपोज कर म्हणटा? म्हाका आवडना हें सगळें. हांव जशें आसा तशें आसूंनी.

कविता : अगो पूण जशें आसा तशें तुका कोणें पसंद करुंकजाय न्हय, तू अशें आसा म्हण आयजमेरेन एकूय चेडो तुज्या मोगान पडोंक ना.

मिथिला : तुज्या मोगान कितले चेडे पडले.

कविता : हिशोबूच दवरूंक ना.

मिथिला : तू त्या सगळ्यांकडे लग्न जातलें?

कविता : पिशें तू ? अगो मोग केलो म्हण किदें लग्नूय करपाचे. कोण म्हाकां आवडलो, कोणांक हाव आडवलें तर चार दिस वांगडा भोंवपाचें. जाय तशी मजा मारपाची, बस सोंपलो मोग.

मिथिला : हांकाच मोग म्हणटा गो?

कविता : खबर ना, पूण म्हज्याखातीर मोगाचो अर्थ होच!

मिथिला : पूण कविता तुका खबर आसा न्हय लोक तुका नावां दवरता ते.

कविता : दवरुंनी, आता हेंच पळय तू इतकें बरें वागता म्हण किदें लोक तुका नांवां दवरिना. मिथिला, समाजाक आमी भिक घालप नासता. आपणांग जें बरें दिसता तें बिन्दास्त करपाचें. बरे तें सोडून दी, म्हाका एक सांग, तू फुडें किदें करतलें, म्हळ्यार नोकरी करतलें......?

मिथिला : ना, बाबा म्हणटा शिक्षण पुरो जालें आतां नोकरी किद्याक. तू किदें करतलें?

कविता : ऑफ कोर्स जॉब, म्हाका स्वताक घरान बांदून दवरपाचे ना. तू एक काम कर. नोकरी तर तू करचेंना आनी मोग तुका जमना. बेगीनच बाबाक तुजे लग्न करपाक लाय.

मिथिला : आनी तू केंन्ना करतलें लग्न?

कविता : खरें सांगू, म्हाका लग्न नांवाचो कॉन्सेप्ट आवडना. हांव लग्न जालें जाल्यार वेगळ्या पद्धतीन.

मिथिला : तू केंन्ना किदें करतलें सांगू शकना. जगावेगळें आसा तू. आता चल, येता तू म्हज्याबरोबर?

कविता : खंय?

मिथिला : शंकराच्या देवळान

कविता : तू चल, त्या देवळांतल्या शंकराक मेळपाक. म्हजो शंकर म्हजी दर्या वेळेर वाट पळयता.

मिथिला : तू दिसाक कितल्या चल्यांक मेळटा कोण जाणा, चल या आमी. (वता)

*(दोन इश्ट, आकाश आनी समीर येता)*

समीर : आता तरी वडय मरे ती सिगरेट. केन्नाच्यान हांव तुका सहन करता.

आकाश : म्हणून सांगता तू पण हाची सवय करून घे.

समीर : नाका रे बाबा

आकाश : इतकी वर्सा जिवीतान केलें किदें रें तूवेंन. सिगरेट हातान धरुंक ना आनी चलयेचो हातूय. बेकार तुजें जिवीत.

समीर : बेकार किदयाक, सोबित गावान म्हजो जल्म जालो. मोग करणारे आवय, बापूय मेळ्ळे. तांणी म्हाका ल्हानाचो व्हड केलो. फुडल्या शिक्षणाक ह्या शारान धाडलो. आतां

हांव नोकरी करून तांच्या उपकाराची परतफेंड करता. जाल्यार मागीर म्हजें जिवीत बेकार कशें?

आकाश : आता आवय बापूय दाखयतले ते चलयेकडे लग्नूय जातलो तर?

समीर : हय.

आकाश : गाढवूच तू.

समीर : आरे तांणी जल्म दिला म्हाका, हांव एकुलतो एक चलो तांचो. म्हज्याविशी तांणी काय सपनां रंगोन दवरल्या आसतलीं तीं म्हाकाच पुराय करपाक जाय. हांव लग्न जालो की तांका घरान सून मेळटली जीं तांची सेवा करतली मागीर कांय दिसांनी घरांत पाळणो हालतलो. म्हजे आवय-बापूय ताचेकडे आपलो वेळ घालयतली. तांका बोटाचो आधार दिवन चलपाक शिकयतली. आता हें सगळे सुख म्हाका आवय-बापायक दिवकूच जाय.

आकाश : श्रावणा. तू सगळे सुख तुज्या आवय-बापायक दी पूण तें वजें खांद्यार दवरच्या पयली थोडी एन्जोयमेन्ट तरी कर.

समीर : म्हळ्यार किदें करु?

आकाश : सिगरेट ओढ, सोरो पी, चलयेकडे इश्टागत कर. तांका घेवन भोंवपाक चल. एन्जोय दी लायफ. ॲटलीस्ट म्हाका पळोवन तरी किदें शिकोन घे.

समीर : हय, तुजे धंदे खबर आसा म्हाका. चलयेकडे इश्टागत करपाची, तांका मोगान ओडपाचे आनी तांच्या भावनांचो फायदो घेवन तांका फटोवपाचे.

आकाश : हांवेन आजमेरेन खंयच्याच चलयेक फटोवंक ना. ती स्वता म्हजेकडसून फटोवन घेता.

समीर : हय, पुण तू खंयच्च्या एकाच चलयेचेर मोग करून ताचेकडेन लग्न किद्याक जायना. खंयचे तरी एकेच चलयेकडे प्रामाणिक राव.

आकाश : समीर, फाल्या तू ज्या चलयेकडे लग्न जातलो तें म्हजें पंयलींचें लवर आसूं येता हें लक्षांत दवर.... समीर, जग खूप मुखार पावला. आयज आमी ज्या चलयेकडे लग्न जाता तें सेकेन्डहॅन्डूत आसता. ताका लागोन स्वता पयलींच्यान सेकन्डहॅण्ड रावपाचें.

समीर : पूण लग्नाउपरांत तिका तुजें प्रताप कोणाकडल्यान तरी कळटलेंच.

आकाश : कोणें किद्याक, आरे हांवूच म्हज्या जिवीताची डायरी ताच्या हातान दितलो आनी म्हज्या जिवीताचो हिशोब तपासूंक लायतलो.

समीर : आनी तातून ताका चुकीचे आकडे दिसलें जाल्यार.?

आकाश : जाल्यार किदें, हांव ताका तातूंले गणीत समजावन दितलो. ताका पटलें तर पटलें नाजाल्यार ताच्या हाताातली ती डायरी दुसऱ्या चेडवाच्या हातान दवरपाची.

समीर : वा! म्हळ्यार खून करून तो पचोवप कसो हे ठरोवन दवरला तर तुवेन. मानपाचो तूका. आता चल वचोया. कालूच आईन पत्रात बरयला. काळोख जावच्या पयलीं घरांत वच म्हण.

आकाश : आनी म्हजी आई म्हाका सांगून गेल्या. रात सोपासर घरां येवं नाका म्हण.

समीर : किदें?

आकाश : फकाणा करता रे. चल (दोघूय वता. दोघांची वचपाची दिशा वेगळी. वाटेन मिथिला आकाशाक मेळटा. तर समीर

कविताक. मिथिला सिगरेट ओढणाऱ्या आकाशाक पळयत रावता तर समीर मोबायलार उलयणाऱ्या कविताक पळयत रावता. ल्हव-ल्हव काळोख.)

## 'पब्लीक प्लेस'

*(कविता मिथिलाची वाट पळयता, मिथिला धावत येता.)*

**कविता** : किदे हे कितलो वगत.

**मिथिला** : सॉरी, सॉरी.

**कविता** : इतक्या अरजन्ट किदयाक आपयलें.

**मिथिला** : खबरूच तशी आसा. पयलीं बस (बसता) कविता, काल वाटेर म्हाका एक चलो मेळलो आनी... आनी म्हाका तो खूप आवडलो. ताचे ते दोळे. सिगरेट ओडपाची स्टायल, चलपाची स्टायल, हांव ताका पळोवन पिशेंच जालें. कविता... कविता म्हाका राती न्हिंद पडूंक ना गो. दोळे बंद केले तरी मुखार ताचोच चेहरो. आयजमेरेन हांव कितल्याश्याच चल्यांक मेळ्ळे. तांचेकडे उलयले पूण हाका पळयताच. मनांतल्यान किदें तरी वेगळेंत जाणवलें.

**कविता** : आदी केन्ना पळयला तुवेन ताका ?

**मिथिला** : ना पूण परतून मेळे शे दिसता.

**कविता** : नाव किदें ताजें?

**मिथिला** : म्हाका कशें कळटलें.

**कविता** : तुवेन विचारुंक ना?

**मिथिला** : हांव खंय उलयला ताजेकडे. तो म्हाका रस्त्यार मेळ्ळो. ताची नदर म्हजेर पडली काय ना याद जायना पूण तो वचमेरेन हांव ताका पळयत रावलें. आनी कविता, सांगचें म्हळ्यार कालच्यान म्हाका किदें तरी वेगळेच जाणवता. म्हजें खयच्याच कामांन लक्ष लागना. हांव फकत ताचोच

विचार करता. किद्याक जाता हें अशें?

**कविता** : बिकॉज यू आर इन लव. तू मोगान पडला.

**मिथिला** : खरेंच? पूण हें कशें शक्य आसा.

**कविता** : प्यार किया नहीं जाता, हो जाता है.

**मिथिला** : हांव ताच्या मोगान पडला? तशें जाल्यार तो लेगीत म्हज्या मोगान पडला आसतलो.

**कविता** : सांगू शकना पूण सद्या तू तो विचार करू नाका. बेगीनात बेगीन ताचेकडे फ्रेण्डशीप कर आनी मागीर उलयता उलयता तोय तुज्या मोगान पडटलो.

**मिथिला** : पूण तो खंय रावता. ताचें नाव किदें. म्हाका कांयत खबर ना.

**कविता** : काल मेळ्ळो तसो परत केंन्ना तरी तो मेळटलोत त्यावेळार मात डायरेक्ट ताचेकडे उलोवपाक सुरवात कर आनी ताचो फुल बायोडेटा घे. ओके? आता चल, तू मोगान पडला म्हण तुका हावूच पार्टी दिता, चल.

**मिथिला** : पूण त्याआदीं हाव देवळान वचून येता. हांव मोगान पडला हे शंकराक सांगपाक जाय.

**कविता** : तू म्हण अशेंच, चल तर सांगोन यो तुज्या शंकराक. हाव तोमेरेन मोबायल रिचार्ज करून येता. आमीं पाच मिन्टान हांगाच मेळोप. ओके? चल (वतात)

*(आकाश आनी समीर येता)*

**समीर** : आरे यो, यो बस बेगीन.

**आकाश** : आरे पूण जालें किदें तें तरी सांग.

**समीर** : आकाश, काल म्हाका मोबायलार उलोवपी एक चली मेळ्ळे.

आकाश : मागीर चली आवडले, काय मोबायल.

समीर : ऑफकोर्स चली. खूप सोबित दिसतालें तें.

आकाश : तुका केन्नाच्यान चलयो आवडोंक लागल्यो.

समीर : फकत आवडोंक ना तर हांव ताच्या मोगानूय पडलो.

आकाश : किदें? याने के गांव का छोकरा प्यार में फसा. हांव सपन तर पळयना न्हय.

समीर : हांव स्वतः सपनान आसल्यासारको दिसता. कॉलेजीन इतक्यो चलयो आसल्यो पूण तांचेकडे इश्टागत करचीं, जावं मोग करचो अशे केन्नाच दिसूंक ना पूण काल ताका पळयलें आनी दिसले जिवीताचो जोडीदार मेळ्ळो.

आकाश : नांव किदें ताचें?

समीर : नांव? म्हाका किदें खबर. हांव खंय उलयला ताचेकडे.

आकाश : किद्याक उलोंक ना?

समीर : आरे तें मोबायलार उलयतालें न्हय आनी वळख नासतना......

आकाश : वळखी जायना, करप आसता. तू डायरेक्ट ताचेकडे उलोंक जाय आशिंल्लो.

समीर : म्हज्यान इतके डॅरींग खंय आसा.

आकाश : एका चलयेच्या मोगान पडला तू. आता सगळे डॅरींग करूंक जाय.

समीर : परत मेळ्ळे जाल्यार म्हजेकडे लग्न जाता काय विचारू?

आकाश : डायरेक्ट तिसरें सोंपण चडो नाका. पयली इश्टागत, मागीर मोग आनी मागीर लग्न. पूण हें सगळे करच्यापयलीं तें परत मेळटा काय ना तें पळय आनी तुज्या आई बाबाचोय विचार कर. तांणी तुज्याविशी सपना रंगोन दवरल्या.

समीर : आर्दी मोगाची गाडी फुडे तरी वचूनी मागीर तो विचार करता.

आकाश : मागीर, एक काम कर. चडावाचेर आयिल्ले तुजे हे मोगाचे गाड्येचो हॅण्ड ब्रेक ओडून धर. म्हजी सिगरेट सोंपल्या. ती घेवन येता हांव.

समीर : आरे पूण म्हजो प्रश्न तरी सोडय.

आकाश : म्हणून तर सिगरेट हाडपाक वता. ती तोणान नासत जाल्यार काय सुचना म्हाका. येता हाव वचून. (वता)

समीर : आय ॲम इन लव? हांव मोगान पडलो? समीर शिरोडकर मोगान पडलो? आई, बाबा तुमचो चलो मोगान पडलो. इतकी वर्सा ह्या निर्सगाचेर मोग केलो आनी आयज चक्क एका चलयेच्या मोगान पडलो... पूण म्हज्या ह्या मोगाक हांव सोदू खंय. सापडतलें तें म्हाका? परत मेळ्ळे जाल्यार ताचेकडे उलोवपाचें डॅरींग जातलें? हय. आकाशान सांगला हांव मोगान पडला. आता सगळे डॅरींग करूंक जाय. एस, आय ॲम इन लव... आय ॲम इन लव.

(फाटसून कविता येता आनी दोघांय आदळता. समीर पडटा.)

कविता : आय ॲम सॉरी... आय सॅड, आय ॲम सॉरी.

समीर : यस... थॅक्यू... म्हळ्यार... सॉरी.... सॉरी किद्याक?

कविता : तू म्हज्याखातीर पडलो म्हण.

समीर : पहली नजर में दिल गीरा और अब हम गिरे.

कविता : खूप रोमेन्टीक दिसता.

समीर : पयली नासलो. तुका पळयलें आनी जालो... तुजें नांव किदें?

कविता : म्हजें नांव किद्याक तुका?

समीर : काल विचारप रावोन गेलें.

कविता : काल? काल आमची भेट जाल्ली?

समीर : हय, काल वाटेर पळयलें तुका. तू मोबायलार उलयतालें आनी हांव तुज्या चेहऱ्याकडे पळयत आसलो. खरेंच तू खूप सोबित आसा.

कविता : सगळेंत तशे म्हणटा.

समीर : पूण हांव मनातल्यान म्हणटा.... तू म्हजेकडे फ्रेण्डशीप करशीत?

कविता : वा! डायरेक्ट अॅटेक. ह्या खेळान नवीन दिसता. हाच्या आदीं कोणाकडे फ्रेण्डशीप....

समीर : ना, करू शी दिसली ना. काल तुका पळयलें आनी ठरयलें. तुजेकडे फ्रेण्डशीप करची. खरें म्हळ्यार हांव आता तुजोच विचार करी. इतक्यान तू मुखार दिसलें आनी.

कविता : तू खूप किदें उलोवन गेलो.

समीर : हय, कारण कालची चूक म्हाका आयज करपाची नाशिल्ली.

कविता : उलवण्यावेल्यान कळटा तुजो स्वभाव बरो आसा.

समीर : तो तर आसाच, आई बाबान म्हजेर जायं ते संस्कार केल्या.

कविता : चलयांकडे फ्रेण्डशीप करप हे लेगीत तांच्यानीत शिकयले?

समीर : हय, ना... तें म्हजें हांवूच शिकलो. सांग न्हय तुजें नांव.

कविता : कविता... आनी तुजें.

समीर : समीर, आवडले? भुरग्यापणानूच आईन दवरला. पूण तू म्हाका समीरूच म्हण उलोव मारुंक जाय अशें ना. तू म्हाका गाळ्यो दिवन उलो मारलो तरी चलतले.

कविता : (हासता) तर आयच्यान तू म्हजो नवीन फ्रेण्ड. आमची फ्रेण्डशीप सेलेब्रेट करपाची न्हय.

समीर : हय, चल भेलपुरी खावया.

कविता : भेलपुरी? नाका, आर्मी डिस्को क्लबान वचून जेवण घेवंया.

समीर : एक मिनीट (पाकीट काडटा)

कविता : किर्दे जालें?

समीर : काय ना, तितकें पैशे बोलसान आसा काय ना तें पळयतालो.

कविता : ह्या कविताक कागदाचेर उतरोवपाक बॉलसान पेन आसचेच पडटा. म्हजेकडे फ्रेण्डशीप केल्या मन खाली आसले तरी चलतले पूण पाकीट भरलेले आसूंक जाय. कळ्ळे? चल (वतात, आकाश येता)

आकाश : आरे! खंय गेलो हो. कांय खरे ना हाचें. गेलो आसतलो ताका सोदपाक. वचूंनी उसरां जावं पूण मोगाची कळी ताच्या जिवीतांत फुल्ली.

(सिगरेट ओडटा, मिथिला येता, आकाश पळयता)

मिथिला : तू? प्लीज, प्लीज म्हाका चिमटो काड.

आकाश : किदे?

मिथिला : प्लीज

आकाश : ओके (चिमटो काडटा)

मिथिला : काल तू म्हज्या मुखार उबो आशिल्लो पूण फकत हांवूच तुका पळयताले आनी तू सिगरेटच्या नशेन स्वताक शेणोन बशिल्लो. तुजी सिगरेट ओडपाची स्टायल म्हाका खूप आवडली.

**आकाश** : खरेच? पूण काय चेडवांक तर सिगरेट ओडलेली आवडना.

**मिथिला** : म्हाकाय आवडनासली पूण काल सिगरेट ओडताना तुजी पर्सनालिटी पळयली आनी... खरें सांगपाचें म्हळ्यार तुका पळयल्यापासोन हांव तुजोच विचार करताले. तू परतोन मेळचो म्हण हांव आताच शंकराक मेळोन आयला.

**आकाश** : शंकर? कोण शंकर?

**मिथिला** : शंकर, देव शंकर. हांव भुरग्यापणाच्यान खूप मानता ताका. ताच्यात आशिर्वादान आता तुजी परतून भेट जाली.

**आकाश** : काल तुवेन म्हाका पयले फावट पळयलें आनी म्हाका परतून मेळो शे दिसलें? किद्याक?

**मिथिला** : कारण म्हाका तुजेकडे फ्रेण्डशीप करपाची आशिल्ली.

**आकाश** : पूण म्हाका तुजें नांवूय खबर ना.

**मिथिला** : हाव मिथिला, म्हाका मिली म्हटले तरी चलतले.

**आकाश** : नावाचे पोस्टमार्टम करपाची म्हाका सवय ना. तुजें नाव वेगळे आसले तरी कठीन ना.

**मिथिला** : आनी तू?

**आकाश** : हांव आकाश, आता सांग ह्या आकाशान तुवेन इतकें किदें पळयलें की तुवेन स्वताक शेणोन घेतलें.

**मिथिला** : आकाशाचे चमत्कार ताकाच खबर आसता जाणे ताची सोबितकाय दोळे भरून पळयल्या. ह्या दोळ्यांक आनी प्रश्न विचारू नाका. म्हजेकडे फ्रेण्डशीप कर. जाता न्हय म्हजो फ्रेण्ड?

**आकाश** : ना म्हणचो ना. पूण म्हजेकडे फ्रेण्डशीप करच्याआधी म्हज्याविशी कोणाकडे माहिती काडून घे. खरे म्हळ्यार अशे हांवेन आयजमेरेन खंयच्याच चलयेक सांगूक ना, पूण तुका सांगता. कारण तू खूप सादें आसा. म्हण म्हाका

दिसता की म्हज्यासारख्या चल्याकडे फेण्डशीप करच्यापयलीं तुवेन आनींक एकदा विचार करपाचो.

**मिथिला** : तुका पळयल्या दिसापासोन विचार करपाची हांव शक्तिच शेणोन बसला. प्लीज माका विचार करुंक लाव नाका. म्हजेकडे फ्रेण्डशीप कर, प्लीज. (हात फुडें करता)

**आकाश** : (हातार हात दवरता) केली फ्रेण्डशीप. एका सोबित, मोगाळ चलयेचो हांव आयच्यान फ्रेण्ड जालो... फ्रेण्ड. (काळोख)

## दर्यो

*(दर्या वेळेर आकाश आनी मिथीला, समीर आनी कविता बसल्या)*

**मिथिला** : किदें करता?

**आकाश** : दिसना, उदकान फातर भिरकायता.

**मिथिला** : एक फातर नुस्त्याक लागोन तें मेले जाल्यार?

**आकश** : तर तें नुस्तें घरा व्हरोन फ्राय कर.

**मिथिला** : शी.... हांव वेजिटेरियन.

**आकाश** : म्हणोन तुजो स्क्रू लूज आसा.

**मिथिला** : म्हळ्यार?

**आकाश** : पिशे तू.

**मिथीला** : हय, तुका मेळ्ळे आनी जालें... आकाश, हांव तुज्या म्हऱ्यान बसूं?

**आकाश** : किद्याक?

**मिथिला** : शंकर आनी पार्वती कशी एकाच फातरार बसताली.

**आकाश** : ती पर्वताचेर बसताली, दर्या वेळेर न्हय.

**मिथिला** : हो दर्यो, बुडणारो तो सूर्य, हांव आनी तू. सगळें कितलें सोबीत आसा न्हय. एक काम कर न्हय म्हजो हात

धरून म्हाका दर्या वेळेवेल्यान धांवत व्हर.

आकाश : किद्याक?

मिथिला : पिक्चरांतल्या पदांनी अशेंच आसता. हिरो हिरोईन दर्या वेळेर हातांत हात घालून धांवत आसता.

आकाश : तुका हिरोईन जावपाचे आसा जाल्यार जा, हांव व्हिलनूच बरो आसा.

समीर : किदें करता?

कविता : उदकान पाय सोडले काय बरें दिसता.

समीर : लाटांवागडा व्हावन गेलें जाल्यार.

कविता : तू आसा न्हय, मार उडी.

समीर : तू व्हावन गेलें जाल्यार म्हाका उडी मारचीच पडटली पूण मागीर म्हाका कोण वाटायतलो.

कविता : म्हळ्यार तुका पेंवपाक येना?

समीर : कालमेरेन उदकापासोन पैसूच रावलो. कारण बुडपाचो भय आशिल्लो.

कविता : आनी आतां....

समीर : आतां... आतां तुज्या इश्टागतीच्या दर्यान ऊडी मारल्या. पेवपाक येयना तरीय रिस्क घेतल्या, कारण म्हाका तातून बुडपाचें आसा.

कविता : दर्या देगेर तो बंगलो पळय कितलो सोबित आसा. म्हाकाय दर्या देगेर असोच बंगलो जाय.

समीर : भरतीच्या वेळार व्हावन गेलो जाल्यार?

कविता : दर्या देगेर बंगलो आसलो की सदा दर्यान न्हावपाक मेळटा.

समीर : हय आनी तातून साबणाचीय बचत जाता.

कविता : न्हांवन जालें की गॉगल घालून वतांत न्हिदपाचें.

समीर : शी... एका चेड्यामृह्यान अशें बुरशे उलोवपाक लज दिसना तुका.

आकाश : हें किदें चल्ला आमचें, तू अशें किद्याक मेळटा म्हाका.

मिथिला : हांव तुका मेळलेले आवडना?

आकाश : प्रश्न आवडीचो ना, नातें नासतना अशें मेळप म्हळ्यार?

मिथिला : किद्याक? तू केन्नाच कोणांक असो मेळोंक ना.

आकाश : मेळ्ळा, भरपूर चलयांक मेळ्ळा, तांचेकडे गजाली मारल्या, तांका बायकार घेवन भोंवला, जवानी जशी अनुभवंक जाय तशी अनुभवल्या.

मिथिला : मागीर हांवेन खंय आडायला म्हाकाय घेवन भोव. तू व्हरता थंय येता हांव.

आकाश : तुजे बाबतीन हांवेन तसलें कांय ठरोवंक ना.

मिथिला : किद्याक?

आकाश : खबर ना.

मिथिला : म्हाका एक सांग, तुका हांव आवडटा? सांग न्हय, तुका आवडटा हांव?

आकाश : ना.

मिथिला : किद्याक, हांव सोबित ना?

आकाश : तू म्हज्या टायपचें ना.

मिथिला : हांव तुज्या टायपचे ना जाल्यार म्हजेकडे फ्रेण्डशीप किद्याक केली.

आकाश : हांव मेळटा ते चलयेकडे फ्रेण्डशीप करता.

मिथिला : आनी हांवेन फकत तुजेकडे फ्रेण्डशीप केल्या आनी मोगूय.

आकाश : किदे?

समीर : तुका कशें दिसता, म्हळ्यार म्हज्यावांगडा अशें बसप, उलोवप.

कविता : टायमपासाक हांव कोणा वांगडाय खंयसरूय बसता.

समीर : म्हळ्यार हांव तुज्याखातीर फकत एक टायमपास? तुका म्हज्याविशीं कांयच दिसना?

कविता : दिसता, म्हणोन तर फ्रेण्डशिपीचें नातें जोडला.

समीर : हें नातें आमी वाडोवं शकता ताका वेगळी अशी सोबित दिशा दिवं शकता.

कविता : दिशा? हांव चल्यावांगडा फकत फ्रेण्डशीप करता. मनाक पटलें, जाल्यार फट मोगूय करता आनी दुसरो कोण मेळ्ळो जाल्यार पयल्या मोगार खॉटूय मारता.

समीर : किद्याक? अशें किद्याक करता?

कविता : कारण तांकाय हेंच जाय आसता.

समीर : पूण अशें करप बरें न्हय.

कविता : हांगासर पावला पावलाचेर नवे फ्रेण्ड मेळटा. मोगी मेळटा, दुसऱ्याक स्विकारपाक पयल्याक कुशीक काडचोच पडटा.

समीर : आनी... म्हजेकडेय तू तशेंच करतलें?

कविता : आमच्या दोघांमदीं फकत फ्रेण्डशीप आसा. ताका लागोन हो प्रश्नच येवचो ना.

समीर : पूण जर हांवेन तुका सांगले की... म्हजो तुजेर मोग आसा जाल्यार....

आकाश : किदें? किदे म्हटले तुवेंन? तू मोग.... मोग करता?

मिथिला : हय.

आकाश : आर यू सिरियस.

मिथिला : ऑफ कॉर्स आय ॲम

आकाश : म्हजेर मोग करणाऱ्यो चलयो म्हाका भरपूर मेळ्ळो. पूण तो मोग नासलो, तें आशिंल्ले फकत कुडीचें आकर्शण.

मिथिला : त्या चलयावांगडा म्हाका कम्पेर करूं नाका. म्हजो मोग, मोग आसा. वासना न्हय. विस्वास दवर म्हजेर, नाजाल्यार म्हज्या दोळ्यान पळय, तुका म्हजो मोग दिसतलो.

आकाश : म्हाका चलयांच्या दोळ्यांनी पळोवपाची सवय ना. मिथिला, तू बरें चली, मोगाच्या नावार कुडीचो बाजार कसो चलता हाची कल्पना ना तुका, म्हणोन तुका सांगता म्हज्यापासून पैस राव. हांव एक वायट मनीस.

मिथिला : इतके दिस तुका मेळ्ळे पूण म्हाका तुज्यान वायट कांयच दिसूंग ना.

आकाश : सांगलें न्हय, तू एक बरें चली. तुजेकडे हांव वायट वागोकूच शकना.

मिथिला : कितलो रिस्पेक्ट दिता रे तू म्हाका. तशेच तुजें मनूय दिवन वडय न्हय.

आकाश : मनाची, मोगाची भास म्हाका केन्ना कोळोकूच ना म्हाका इतकेत खबर आसा की मोग म्हळ्यार फकत कूड... देर इज नो अदर टारगेट.

मिथिला : प्लीज, म्हज्या मोगाक वासनेचें नांव दिवं नाका. आय रिअली लव यू.

कविता : वॉट? यू लव मी?

समीर : हय, म्हजो मोग आसा तुजेर.

कविता : आर यू मॅड? एक गजाल लक्षान दवर, हांव तुज्या

सारख्या जाय त्या चल्याबरोबर भोंवता पूण फकत फ्रेण्ड म्हण. खरो मोग हांवेन कोणाचेर करुंक ना आनी कोणें म्हजेर करुंकना.

समीर : पूण हांव तुका फटोवचोना, आर्मी लग्न करपाचें.

कविता : लग्न? आय हेट दीस वर्ड. आनी तू ओगीच किदयाक ह्यो गजाली करता. भियो नाका, म्हाका डायरेक्ट सांग ॲक्जेक्ट किर्दे जाय तुका म्हजेकडल्यान.

समीर : एका जल्माची साथ.

मिथिला : शंकराची शपथ, म्हाका तू खूप आवडटा.

आकाश : आय डोन्ट केअर.

मिथिला : तुज्याबरोबर उलोवंक आवडटा.

आकाश : आय डोन्ट केअर.

समीर : तुका पळयत रावो शें दिसता.

कविता : आय डोन्ट केअर.

समीर : म्हजेर विश्वास दवर, खरेंच म्हजो मोग आसा तुजेर.

कविता : आय डोन्ट केअर.

समीर : तुका पळयत रावो शें दिसता.

कविता : आय डोन्ट केअर.

समीर : म्हजेर विश्वास दवर, खरेंच म्हजो मोग आसा तुजेर.

कविता : आय डोन्ट केअर.

आकाश : आय डॉन्ट केअर.

**मिथिला** : हांव तुजेखातीर जीव लेगीत दिवपाक तयार आसा म्हजो स्विकार कर. आय नीड यू!

**समीर** : आय लव यू, आय लव यू. (काळोख)

## पब्लीक प्लेस

*(आकाश मिथिलाची वाट पळयता)*

**आकाश** : कितल्यांक आपयल्लें तुका?

**मिथिला** : धांक

**आकाश** : आता कितली वरां जार्ली?

**मिथिला** : धा जावन पाच मिनटां.

**आकाश** : कळाव किद्याक जालो?

**मिथिला** : फकत पाच मिनटां.....

**आकाश** : पाच मिनटांक म्हत्व ना?

**मिथिला** : सॉरी, किद्याक आपयला म्हाका.

**आकाश** : पयली बस.... बस म्हटलें न्हय. (बसता) काल किदें म्हणी तू?

**मिथिला** : जे तुमी आयकलें

**आकाश** : तू मोग करता म्हजेर?

**मिथिला** : हें काल तुमकां....

**आकाश** : परतून सांगलें जाल्यार जीब तुडटली तुजी?

**मिथिला** : हंय, हांव मोगान पडला तुज्या. आतां किद्याक, केन्ना, कशें ह्या प्रश्नाच्यो जापो मांगू नाकात. कारण मनांतलें शब्द कालूच तुमच्या मुखार मांडल्या हांवेन.

**आकाश** : आतां फुडें किदें?

मिथिला : तुजो हयकार जाय.

आकाश : आनी हांवेन न्हयकार दिलो जाल्यार?

मिथिला : तो मेळचोना हाची खात्री आसा म्हाका.

आकाश : कशावेल्यान.

मिथिला : तुका प्रोपोज करच्यापयलीं हांव शंकराचो अभिषेक करून आयला.

आकाश : मागीर तुजो अभिषेक व्यर्थ वयचो ना.

मिथिला : म्हळ्यार तू लेगीत म्हजेर मोग करता?

आकाश : हांवेन तशें खंय म्हटला?

मिथिला : तू स्पश्ट किद्याक उलयना?

आकाश : बरे आसा, मिथिला, सांगपाचें म्हळ्यार तू लेगीत म्हाका आवडटा.

मिथिला : हे शंकर....

आकाश : पयलीं फुडें आयक, मागीर ताका उलो मार. मिथिला, म्हज्या जिवितांत भरपूर चेडवां येवन गेलीं. कांय जाणावांगडा दाट इश्टागात दवरली, तर कांय जाणावांगडा खोटो मोगूय केलो. हाव आजमेरेन कोणाकडेन प्रामाणिक रावूंकना. ताका लागोन लग्नाउपरांत तुज्याकडेय प्रामाणिक रावतलो हाची गॅरेन्टी हांव दिव शकना. ताकालागोन लग्नाचो विचार तू मनांतल्यान काडून वडय.

मिथिला : पुण तू आतांच म्हणटालो न्हय की तुकाय हांव आवडटा म्हण.

आकाश : हय, पुण तुजेकडे लग्न करपाइतकी म्हजी लायकी ना. तू बरें चेडू, तुजेर भरपूर संस्कार जाल्यात एक बरो भुरगो पळय आनी लग्न जा.

मिथिला : म्हजी पसंद म्हज्या म्हऱ्यान आसा.

आकाश : तुका एकदा सांगलेंले कळना? हांव एक राकेस, म्हजे पासून पैस राव.

मिथिला : म्हजे नाव मिथिला पूण मिथिलेत जन्मलेली राधा हांव न्हय, मागीर तुमच्यान हांव कृष्ण किदयाक सोदू. ह्या आकाशाकूच हांवेन म्हजो मानला.

आकाश : आकाश आनी धरतरी एकठांय येवं शकना मिथिला.

मिथिला : पूण आकाशाबगर धरतरेचें अस्तित्व तरी किदें.

आकाश : तुका कशें समजावं तेंच कळना.

मिथिला : म्हाका समजावपाचो यत्न करूं नाका. ह्या आकाशाचे छायेन म्हाका सात जल्म काडूं दी.

आकाश : बरें आसा, जावंनी तुज्या मनासारकें. जावयां आमी लग्न. मनाउलट जावं पूण तुज्या मोगाची जैत जावंकूच जाय. जावयां आमी लग्न.

मिथिला : खरेच?.... हांव शंकराच्या पायां पडोन येता.

आकाश : अगो हांव मेळ्ळो न्हय, मागीर आता ताची किदें गरज?

मिथिला : ताच्याच आशिर्वादान तू म्हाका मेळ्ळो मागीर आतां ताका कशें विसरो? हांव येता रोकडे.

(वचून परतून वळोन) आकाश..... तुय यो न्हय म्हज्यावांगडा

आकाश : आनींक एक गजाल मनाउलट करपाक लावं नाका. चल तू (वता) आकाश तुज्या जिवितांतले काळे ढग गेलें आतां तुज्या जिवितान आयल्या मिथिला नावाचे नवें चांदणे (समीर येता)

समीर : हाय आकाश!

आकाश : आरे समीर, तू हांगा कसो?

समीर : सहज.

**आकाश** : सहज, आनी हातान गुलाब घेवन... ताका गुलाब खूप आवडटा दिसता.

**समीर** : ना, ताका फुलां आवडना.

**आकाश** : तरीय तू ताका गुलाब हाडटा आनी ते स्विकारुय करतां.

**समीर** : तसो हांवूय ताका आवडना, पूण तरीय ते म्हाका मेळटाच.

**आकाश** : केन्ना केन्ना न आवडणारी व्यक्ति अचानक आवडूंक लागता.

**समीर** : आयज सगळें बदलतले... म्हळ्यार आयज ते म्हाका जाप दितलें.

**आकाश** : हे गजालीक आयचो मुहूर्त बरो आसा काय किदें?

**समीर** : म्हळ्यार?

**आकाश** : हांवेनूय ताका आयजूच जाप दिल्या. समीर, हांव लग्न करता ताजेकडे.

**समीर** : कॉंग्रेटस्.

**आकाश** : तुका थॅंक्स म्हणूं काय नाका तेंच कळना.

**समीर** : किद्याक? तू खोशी ना?

**आकाश** : ते लग्नाउपरांत कळटलें. म्हजें सोड, तू सांग तुका किदें दिसता. ताची जाप किदें आसतली?

**समीर** : कायच सांगू शकना, म्हाका तर खूप भंय दिसता.

**आकाश** : अरे भंय, चिन्ता हे सगळे ताज्या वाट्याक येवंक जाय. तू मर्द आसा मर्द. मर्दान चेडवांक फकत दर्द वांटपाचें.

**समीर** : हय पूण म्हजे बाबतीन वेगळेच घडला. हांगासर हांव ताज्या मोगान पडला.

**आकाश** : मागीर आता खड्ड्यान पड.

**समीर** : अशें म्हणू नाका रें. आरें हांव इश्ट तुजो.

आकाश : इश्ट म्हण सांगता, ताका माथ्यार चडोंक दिवं नाका. ह्या जगान किदें चेडवांची कमी आसा?

समीर : कमी ना, पूण ताज्या सारकेंय दुसरें ना.

आकाश : अशें आसा तरी किदें ताज्यान?

समीर : कायच ना, पूण तरीय म्हाका तें आवडटा. खूप आवडटा.

आकाश : एकदीस ताचेकडल्यान थापट खायशीत.

समीर : खाल्लें.

आकाश : किदें?

समीर : येयलें, तें येयलें.

आकाश : हांव वता.

समीर : राव तरी, हांव तुजी वळख करून दिता.

आकाश : नाका, परतून केन्ना तरी. सद्या म्हाका अरजन्ट काम आसा.

समीर : काम? कसलें?

आकाश : जिवीतान जाय त्यो गुलाबाच्यो पाकळ्यो पिस्कटायत गेलो, आतां पळोवपाचें तातूंतलो एकादो काटो म्हाका घावो दिवन गेला काय ना तो. ऑल-द-बॅस्ट. (वता, कविता येता)

समीर : गुड मॉरनींग, हो गुलाब तुज्या खातीर.

कविता : तुका कितले फावटी सांगलें हांवेन, म्हाका गुलाब आवडना म्हण.

समीर : आतां हाडला म्हण घें न्हय. (कविता गुलाब घेता)

कविता : बसुंया न्हय?

समीर : हय, यो बस. (बाक पुसता)

कविता : हांवेन तुका अचानक किद्याक आपयला हें कळ्ळा तुका?

समीर : हय, काल हांवेन तुका जें सांगला ताजेर तुवेन भरपूर विचार

केला आनी आतां तू म्हाका ताजी जाप दिवपाचें आसा.

कविता : तुका कशें कळळें हांव कालच्याच विशयाविर्शी उलयतलें म्हण.

समीर : कालचो दिस हांव तुज्या दोळ्यान पळोवं शकता.

कविता : मागीर कालचो परिणामय दिसता आसत.

समीर : पळोवपाक गेल्यार, दिसतूय पूण हे बाबतीन हांव शंब्दाचेर विश्वास दवरतलो.

कविता : तशें जाल्यार आयक म्हजें शब्द आनी ताजेर विश्वासूय दवर.... समीर, हांव तुजेकडे लग्न जावपाक तयार आसा.

समीर : खरेच?

कविता : हय.

समीर : म्हळ्यार तू म्हजेकडे संवसार करपाक तयार आसा?

कविता : संवसार न्हय कॉन्ट्रेक्ट.

समीर : म्हळ्यार?

कविता : आमीं कॉन्ट्रेक्ट पद्धतीन लग्न करपाचें, फकत एका वर्साचो कॉन्ट्रेक्ट.

समीर : आनी मागीर?

कविता : तुजो रस्तो वेगळो, आनी म्हजो रस्तो वेगळो.

समीर : पूण हें अशें कित्याखातीर

कविता : कारण लग्नाची हिच पद्धत म्हाका मान्य आसा.

समीर : पूण हांव तूजेर जिवाभायर मोग करता.

कविता : म्हणुनूच तर तुज्याबरोबर लग्नाचो विचार केला.

समीर : पुण फकत एका वर्साखातीर?

कविता : एका वर्साखातीर आसना पूण तुजी बायल जावपाक तयार आसा न्हय हांव.

समीर : पूण कविता समाजाक.....

कविता : तुवेन म्हजेकडे मोग केला, समाजाकडे न्हय. आमी जे करतलें तें कायद्याक मान्य आसा. बस, तुज्या घरच्यांक कशें सांगपाचें तें तू ठरय. पूण त्या आदी तुका स्वत निर्णय घेवचो पडटलो.

समीर : (थोडोवेळ विचार करून) हय, घेतलो निर्णय. म्हाका हें लग्न मान्य आसा.

कविता : इतक्या बेगीन निर्णय? विचार करपाक वेळ जाय जाल्यार....

समीर : तुज्या मोगान पडटाना ह्या मनान खंय वेळ दिल्लो. एक वर्स जाल्यार एक वर्स, तेंच मोगाचे क्षण हांव आयुष्यभर मनान साठोन दवरतलो.

कविता : बरें आसा, हांव फोरमेलिटीस पुराय करता. तू तयार राव. (वता, मिथिला हातान फुलांचे हार घेवन येता)

मिथिला : आरे हो आकाश खंय गेलो?... हाका विचारून पळयलें जाल्यार.... तुमी हांगा एका चेड्याक पळयला?

समीर : सद्या तर हांव हांगा एकटोच आसा. तुमी हांगा कोणांक मेळपाक आयल्या?

मिथिला : ना, हय.... म्हळ्यार जाका मेळपाचें आशिल्ले तांची भेट जाली पूण ताकां हांगा दवरून हांव देवळान गेल्लें.

समीर : अचानक देवळान.

मिथिला : तो क्षणूत तसो आशिल्लो, ताणें आयजूच म्हाका हयकार दिला.

समीर : कॉग्रेटस्, तुमी बसा न्हय. (बसना) ॲनी प्रोब्लेम?

मिथिला : ना, (बसता)

समीर : आयज म्हजें पूण नशिब तुमच्यासारकेच चमकलां. हांव

जाचेर मोग करता ताणें म्हाका आयजूच हयकार दिला.

**मिथिला** : तुमकाय कॉंग्रेट्स्, मना सारकी व्यक्ति मेळ्ळी. आता तुमी आयुष्यभर सुखी रावतलें.

**समीर** : आयुष्यभर ना, फकत एका वर्साखातीर.

**मिथिला** : म्हळ्यार?

**समीर** : आमी कॉन्ट्रेक्ट पद्धतीन लग्न करता.

**मिथिला** : किद्याक?

**समीर** : ते मात्शे मॉडन विचाराचे आसा. ताका लग्न, संवसार ह्यो गजाली आवडना.

**मिथिला** : ते मोग करता न्हय तुमचेर?

**समीर** : ताचें अजून कळोंक ना पूण हांव करता ताजेर. (मिथिला हांसता) हांसले शें? म्हज्या नशिबार हासता?

**मिथिला** : हय, नशिबाचेर हांसता पूण तुमच्या एकट्याच्या न्हय आमच्या दोघांच्या.

**समीर** : म्हळ्यार?

**मिथिला** : तो लेगीत मनाउलट म्हजेकडे लग्न जाता. पूण एक गजाल तुमच्या लक्षान आयली?

**समीर** : खंयची?

**मिथिला** : आमचे जोडीदार मनाविरुद्ध आमच्याकडे लग्न जातलें तरी लेगीत आमकां खोशीच जाल्या. किद्याक?

**समीर** : कारण आमी मोग केला, आनी मोग हो आंधळो आसता. सत्य पळोवं शकना.

**मिथिला** : खरें आसा तुमचें.

**समीर** : तुज्या हातान हें हार.....

**मिथिला** : देवळान गेल्ले, शंकराच्या पायावेले दोन हार हाडले. एक म्हाका, एक ताका.... तुमचो देवाचेर विश्वास आसा?

**समीर** : आसा थोडो.

**मिथिला** : तशे जाल्यार हाच्यांतलो एक हार तुमका दवरां.

**समीर** : पुण तुमी हो हार तुमच्या प्रियकराक हाडलेलो न्हय?

**मिथिला** : तो आता मेळिल्लो जाल्यार लेगीत तो ह्या हाराचो स्विकार करचो नाशिल्लो ताचो देवाचेर विस्वास ना पूण म्हाका खात्री आसा, एक दिस तरी तो देवाचेर विस्वास दवरतलो. घेयात.

**समीर** : (समीर हार घेत) कितलो कॉन्फीडन्स आसा तुका ताजेर.

**मिथिला** : तुमी लेगीत तिच्याविशी असोच दवरात, तुमचो कॉन्ट्रेक्ट एका वर्साचो जाता तो घडये सात जल्म टिकोन रावत.

**समीर** : थॅक्स.

**मिथिला** : आता चलात.

**समीर** : खंय?

**मिथिला** : तुमी तुमच्या लग्नाक आनी हांव म्हज्या.

**समीर** : हय, नशिबान आसत जाल्यार आमीं परत मेळोया. बाय...... ॲण्ड हॅपी मॅरेज.

(दोघांच्या हातान हार, तशीच दोघांय कोनशाक येतात. मिथीला आकाशाच्या गळ्यात हार घालता, दुसऱ्या कोनशाक समीर कविताच्या गळ्यान हार घालपाक वता पूण कविता तो हार हातान घेता आनी समीरच्या हातान पेपर दिता. मिथिला आनी आकाश अग्नी प्रर्दक्षिणा घालता. समीर कागद सय करून कविताक दिता ल्हव ल्हव काळोख))

(रंगमाचयेच्यो दोन बाजू, एका सायडीक आकाशाचें घर, दुसऱ्या सायडीक समीराचे घर)

## समीराचे घर

(दारार रेडीमेड तोरण, समीर हातान दुधाची पोती घेवन येता. दारार लायिल्लो तोरण पळयता. कवीता भितल्यान भायर येता)

**कविता** : समीर खंय गेल्लो तू?

**समीर** : हो तोरण तुवेन लायला?

**कविता** : हंय, कसो आसा.

**समीर** : पूण हावेन पानांचो तोरण लायिल्लो तो?

**कविता** : भायर मारलो. दारार कचरो किद्याक.

**समीर** : कचरो? अगो तीच तर आमची खरी संस्कृती, आई सदीं म्हणी.

**कविता** : पुरो, पुरो आता आईचे रामायण सांगू नाका. आनी हें किदें?

**समीर** : दूध घेवन आयला.

**कविता** : तुका कशें कळलें म्हाका रातचें दूध लागता तें.

**समीर** : हें हांवेन तुका हाडूंक ना. आयज आमच्या लग्नाची पयली रात न्हय. हें दूध तू तुज्या हातान म्हाका दिवपाचें.

**कविता** : हांवेन किद्याक दिवंक जाय. तुका जाय तितकें तू पिवन घें. आनी थोडें म्हाकाय दी.

**समीर** : हांवेनूच घेवंप? बरें तर, चल आमी जेवंया.

**कविता** : हांव जेवलें.

**समीर** : म्हाका सोडून जेवलें?

**कविता** : तातून किदें जालें. म्हाका खूप भूक लागलेली.

**समीर** : अगो पूण घोव जेवल्या उपरांत बायलेन जेवपाचें आसता.

**कविता** : आता हें लेगीत आईनूच सांगला दिसता.

समीर : हय, ना तें माका खबर आशिल्ले. ती आमच्या धर्माची परंपरा.

कविता : हांव खयचो धर्म मानीना, थंय परंपरा किदें घेवन बसला. तें सोडून दी. म्हाका एक सांग आमच्या लग्नाचें तुवेन गावान आई बाबाक सांगलें.

समीर : ना तांका हातुंतलें कायच खबर ना. तुवेन घरच्यांक सांगलें?

कविता : डॅडीक खबर आसा.

समीर : मागीर ते किदें म्हणी?

कविता : समीर, म्हजो डॅडी खंयच्या गावान रावना. म्हज्या सारके तांचेय विचार मॉडर्न आसा.

समीर : कविता, तू म्हाका समीर किदयाक म्हणटा. लग्नाउपरांत बायलेन घोवाक नावान उलो म्हारप नासता.

कविता : मागीर किदे आडनावान उलो मारपाचो?

समीर : ना, फकत आयकलाऽऽ अशे म्हणपाचें.

कविता : समीर तुका हांव आताच सांगून दवरता. लग्नाउपरांत बायलेन कशें वागप हें म्हाका सांगू नाका. कळ्ळे? हांव आता न्हिदूंक वता.... समीर, ह्या घरान एकूच बॅडरूम आसा. तू खय न्हिजतलो.

समीर : खंय म्हळ्यार, आता तो बॅडरूम आमच्या दोघांचो न्हय?

कविता : समीर हांव तुजी हक्काची बायल न्हय हे लक्षान दवर. गुड नायट (वता, काळोख)

## आकाशाचे घर

*(मिथिला दारार पानाचो तोरण लायता, आकाश हातान ग्लास घेवन भायर येता)*

आकाश : हीं पानां दारार किद्याक लायता?

मिथिला : पानां न्हय, तोरण तो.

आकाश : पूण भितर भरपूर तोरण आसतना....

मिथिला : आमच्या धर्मान घराच्या मुखेल दारार पांनाचेच तोरण लायता. तीच घराची खरी शोभा आनी तीच आमची खरी संस्कृती.

आकाश : म्हाका एक सांग, तू साडी किद्याक नेसला? पयली सारके चुडीदार किद्याक घालिना?

मिथिला : पयलींची गजाल वेगळी आशिल्लीं आतां म्हजें लग्न जाला आनी आंमची संस्कृती....

आकाश : कळ्ळें फुडें सांगू नाका.... (ग्लास तोणाक लायता.)

मिथिला : तुमीं सोरो पिता?

आकाश : हय म्हाका सगळे लागता.

मिथिला : पूण आयज किद्याक, आयज आमचें लग्न जाला.

आकाश : म्हणुनूच तर पिता. लग्नाचे सॅलेब्रेशन नाका?

मिथिला : खरें म्हळ्यार आयज तुमी दूध पिवंक जाय.

आकाश : दूध? किद्याक?

मिथिला : लग्नाचे पयल्या राती बायलेन मोगान घोवाक दुधाचो ग्लास दिवपाचो आनी ताणें तो गटागटा करून पिवन वडोवपाचो.

आकाश : तू पिक्चरां खूप पळयता दिसता.

मिथिला : ना, फकत टी.वीर सिरियला पळयता.

आकाश : खंयचो सिरीयल चड आवडटा तुका.

मिथिला : क्यों की सास भी कभी बहू थी. आनी तुमकां?

आकाश : क्यों कि पती भी कभी कुँवारा था.

**मिथिला** : हो केन्नाच्यान सुरू जालो.

**आकाश** : आयज, आतापासोन. बरें म्हाका एक सांग, तुवेन पिक्चर एकूय पळोंकना.

**मिथिला** : एकूच पळयल्लो.

**आकाश** : खयचो?

**मिथिला** : हर, हर शंभो.

**आकाश** : कळ्ळेंच म्हाका, आतां चल भितर वचून सिरियल पळय. ह्या वेळार खंयचो सिरियल लागता.

**मिथिला** : तूम बिन जाऊँ कहाँ!

**आकाश** : बॅडरूमान वच आनी न्हिद येयली जाल्यार न्हिद.

**मिथिला** : (लजोन) तुमी न्हिदूंक केन्ना येतलें?

**आकाश** : म्हजे सॅलेब्रेशन अजून सोपोंक ना. तू चल

**मिथिला** : आयकला, चड घेंव नाकात आ.

**आकाश** : तू भितर वच आनी एक.... म्हाका नावान उलो मारलो तरी चलता. आयकला म्हणपाची गरज ना.

**मिथिला** : तशें कशें, आमची संस्कृती....

**आकाश** : भितर वच (वता) फक्त संस्कृती, आनीक कायच कळना हाका.

*(ग्लास तोणाक लायता, सोफारूच न्हिजता)*

**समीराचे घर**

*(समीर उशे आनी चादर घेवन भायर येवन न्हिजता)*

**आकाशाचे घर**

*(मिथिला भायर येता. आकाशाक सोफार निदलेलो पळयता आनी स्वतः थंयच जमनीर न्हिदता....) काळोख*

## आकाशाचे घर

*(सकाळची वेळ, आकाश ऑफिसांत वचपाचे तयारेन)*

**आकाश** : मिथिला ऽऽ हांव ऑफिसान वता, मिथिला ऽऽ खंय आसा तू. खंय गेलें हें सकाळी, सकाळी ...
(मिथिला पुजेचे सामान घेवन भायरसून येता)

**मिथिला** : म्हाका उलो मारलो?

**आकाश** : खंय गेल्लें तू.

**मिथिला** : आदी पाया पडटा..... हांव भायर तुळशीची पूजा करतालें.

**आकाश** : आता लग्नाउपरांत हें सगळे किद्याक करपाक जाय.

**मिथिला** : लग्न जालें म्हण देवाक कशें विसरप आनी हांव जें करता ती आमची संस्कृती.

**आकाश** : आता दिसभर संस्कृतीच करीत राव. हांव ऑफिसान वता.

**मिथिला** : मात्शें रावात (भितर वता)

**आकाश** : आता आनीक किदें उरले. अगो म्हाका कळाव जाता.

**मिथिला** : (ओवाळणी घेवन येता) लग्नाउपरांत आयज पयले फावट कामांक वता म्हण....

**आकाश** : सानचो परत येतकूच तू अशेंच करतलें?

**मिथिला** : किद्याक?

**आकाश** : ऑफिसांतल्यान मात्सो बेगीन भायर सरता.

**मिथिला** : फकाणा करता म्हजी?

**आकाश** : कोण कोणाची फकाणां करता. बरें.... (वचपाक, दारार रांगोळी पळयता) ही रांगोळी....

**मिथिला** : हांवेनूत घातल्या. कशी आसा?

**आकाश** : हे सगळे किद्याक करूंक जाय.

**मिथिला** : ती आमची....

आकाश : संस्कृती..... कळ्ळें. तुजे संस्कृतीन म्हजी माती जातली. उशीर जाता म्हाका (वचपाक)

मिथिला : आयकला.

आकाश : किदे?

मिथिला : समाळून काम करा आ.

आकाश : हांव ऑफिसान बूलडोजर चलयना.

मिथिला : तशें न्हय पूण चड त्रास करून घेवं नाका.

आकाश : बरें (वचपाक)

मिथिला : आयकला.

आकाश : आता किदें.

मिथिला : बॅगान जेवणाचो डबो घातला. दनपारां जेवपाक विसरो नाका.

आकाश : बरें (वचपाक)

मिथिला : आयकला (आकाश बसता) किदे जालें?

आकाश : तुजे आयकला म्हणोन सोंपलें जाल्यार सांग म्हाका.

मिथिला : निमार्णे एकूच.

आकाश : उलय.

मिथिला : आयज बेगीन घरां येयात.

आकाश : किद्याक?

मिथिला : खबर ना, म्हळ्यार, सिरीयलान बायला घोवाक हेंच सांगता.

आकाश : तुवेन म्हज्या जिवीताचो सिरियल करून सोडला. म्हजे आई.

मिथिला : तुमी म्हाका आई किदें म्हणटा हांव बायल तुमची.

आकाश : तेच तर दुःख आसा. वता हांव.

**मिथिला** : वता म्हणू नाका, येता म्हणप.

**आकाश** : लग्न जाल्ल्याक हें घर मॅन्टल हॉस्पिटल कशें दिसपाक लागला. बरें येता हांव आ.

**मिथिला** : येयात (आकाश वता, मिथिला दारामेरेन वता आनी भितर परतता)

## समीराचें घर

*(सकाळची वेळ)*

**समीर** : हें अजून भायर किद्याक येयना? आतां म्हजें लग्न जाला. ऑफिसान वयचेपयर्ली बायल दारां मेरेन सोडपाक येतली. कितले बरें दिसता. पूण हें अजून भायर किद्याक येयना. कविता ऽऽ हांव ऑफिसान वता. म्हाका टाटा करचेंना. यो मगो भायर, कविता ऽऽ.

**कविता** : किद्याक आरडटा?

**समीर** : हांव ऑफिसान वता.

**कविता** : मागीर चल म्हाका कळाव जाता.

**समीर** : तूं खंय वता?

**कविता** : खंय म्हळ्यार ऑफिसान.

**समीर** : म्हज्या पगारान जातलें सगळें. तू किद्याक ओगीच काम करता.

**कविता** : म्हाका म्हजें स्वतःचें अस्तित्व आसा आनी घरां रावन चूल सामाळणारी बायल हांव न्हय. म्हाका तू काम सोडूंक लावं नाका.

**समीर** : तुका जाय तें कर.... हांव रावता तुका. आर्मी वागंडा या.

**कविता** : तू बशीन वतलो न्हय.

समीर : हय.

कविता : मागीर तू चल. म्हाका कोण पीकअप करतलो.

समीर : बॅगेन जेवणाचो डबो घातला न्हय.

कविता : जेंवण करपाक वेळ कोणाक आसलो. हांव भायरूच जेवतलें. तूय भायरूच जेय.

समीर : बरें.... कविता तुजे मंगळसुत्र

कविता : काडून दवरला हांवेन.

समीर : किद्याक?

कविता : हांव लग्न जाला हें जगाक किद्याक दाखोन दिवपाचें आनी म्हाका आवडना मंगळसूत्र घालप.

समीर : पूण ती आमची परंपरा

कविता : बदलूंक जाय, बायलेन मंगळसूत्र घालून लग्नाचो पुरावो दाखयत भोवप आनी दादल्यांनी मात आक्वारूच फिरप ही कसली परंपरा. एक तर घोवानीय गळ्यान काळे मणी घालपाचे नाजाल्यार ही परंपरा तरी बदलपाची.

समीर : तू रामायणाच्या काळान जल्मांक आयिल्लें जाल्यार रामायणूच घडचें नाशिल्लें. चल निदान गेटी मेरेन तरी वांगडा या. (दोघांय वता.)

## आकाशाचे घर

(रातचो वेळ, भायर पावस पडटा, आकाश सोऱ्याचो ग्लास घेवन बसला. मिथिला येता)

मिथिला : आयकला.

आकाश : किदें जालां?

मिथिला : भायर पावस पडटा आनी हो घडघड्याचो आवाज, म्हाका खूप भंय दिसता.

**आकाश** : कसलो भय, काय जायना..... चल वचून न्हिद (मिथिला भितर वता)

## समीरचे घर

*(समीर उशे, चादर घेवन भायर येता)*

**समीर** : चल समीर, सदच्या सारके आयजूय भायरूच न्हिदपाचें. लग्नाचो खरो अर्थ म्हाका कळूंक ना की ताका तेंच कळना. (न्हिदता)

## आकाशाचे घर

(मिथिला भायर येता. आकाशाक न्हिदलेलो पळोवन स्वतः भायरूच न्हिजता. मोठ्यान घडघड्याचो आवाज, मिथिला किळच मारता. दुसरे सायडीक कविता समीराक उलो मारीत धांवत येता, परतून घडघड्याचो आवाज. दोनय जोडपी एकमेकांच्या वेगान. इतक्यान ल्हव - ल्हव काळोख)

# पयलो अंक सोपता

# अंक दुसरो

## आकाशाचें घर

(आकाश पेपर वाचीत बसला, भायर ज्योतिशीचो आवाज, मिथिला धांवत भायर येता. दारांतल्यान भायर पळयता आनी आकाशा म्हऱ्यान येता)

**मिथिला** : आयकलां, भायर पोपट घेवन ज्योतिशी आयला.

**आकाश** : मागीर, हांव किदें करूं?

**मिथिला** : मात्शें आफयात न्हय ताका.

**आकाश** : किद्याक?

**मिथिला** : म्हाका म्हजे भविश्य पळोवंक जाय.

**आकाश** : तुज्या म्हऱ्यान बसला तोंच तुजे भविश्य, आनीक ताका किद्याक विचारता?

**मिथिला** : फकाणां करूं नाकात, प्लीज आफयात न्हय ताका.

**आकाश** : पेपर लेगीत वाचपाक दिना (दारार वता) अे ऽऽऽ भविश्याकारा, यो, यो हांगा यो. (हातान पोपटाचो पांजरो घेवन ज्योतिशी येता.)

**ज्योतिशी** : सांगा सायब कोणाचे भविश्य पळोंक जाय.

**आकाश** : हांव सोडून हिच्या नशिबान किदें आसा तें सांग तिका.

**ज्योतिशी** : सायब तुमचेंय भविश्य पळयता.

**आकाश** : म्हजें भविश्य पळोवपाचे भानगडीन पडू नाका तुका वर्तमान जड जातलो. (जाग्यार वचून पेपर वाचपाक लागता.)

**मिथिला** : ज्योतिशी भाऊ, तांचो राग धरूं नाका. बसा तुमी.

**ज्योतिशी** : ना वयनी, हातून राग कसलो. बरे तुमचें नाव किदें.

**मिथिला** : म्हजें नांव मिथिला.

**ज्योतिशी** : सोबित नांव, जशें रूप तशें नांव.

आकाश : अे पोपटवाल्या, तिच्या नावाची चड तोखणाय करूं नाका, म्हजें एक पडत जाल्यार तू तुजें नांव विसरतलो.

मिथिला : ज्योतिशी भाऊ तुमी थंय लक्ष दिवं नाकात. तुमी सांगात म्हजें भविश्य (पान उगडटा)

ज्योतिशी : वा!

मिथिला : किदें जालें?

ज्योतिशी : वा! वा!

मिथिला : वा! वा! किदें करता, सांगात न्हय.

ज्योतिशी : हांगा दोनदा वा! आसा तेंच वाचता.

मिथिला : आता फुडें वाचा तर.

ज्योतिशी : वयनी तुमचें भविश्य सोबीत आसा.

मिथिला : खरेंच? (आकाशा म्हऱ्यान वता) आयकलां, पाया पडटा.... ज्योतिशी भाऊ, म्हणटा म्हजें भविश्य सोबीत आसा खंय..... फुडें सांगात.

ज्योतिशी : वयनी भविश्यान तुमच्या हातान भरपूर पैशे येतले.

आकाश : खरेंच, तशें जाल्यार तोमेरेन तुजें हात समाळून दवर.

मिथिला : ज्योतिशी भाऊ फुडें वाचात.

ज्योतिशी : वयनी, खोशेची गजाल. काय दिसान ह्या घरान पाळणो हालपाक लागतलो.

मिथिला : खरेंच? आयकलां..... पाया पडटा, ज्योतिशी भाऊ म्हणटा ह्या घरान खंय पाळणो हालपाक लागतलो.

आकाश : घरान पाळणोच ना जाल्यार हालतलो कसो?

मिथिला : अशें किदें करता, पाळणो हालतलो म्हळ्यार आमका बेगीनाच भुरगें जावपाचें आसा.

आकाश : हय, तशें जाल्यार तुज्या ह्या ज्योतिशी भाऊक आतांच बारश्याक सांग.

मिथिला : तुमी म्हण किदेंय उलयतां.... ज्योतिशी भाऊ वाचात.

ज्योतिशी : वयनी आतां हांव तुमका सगळें एकदम सांगता, म्हळ्यार तुमका परत-परत पाया पडपाक त्रास नाका. एकदम पडोन घेयात.

मिथिला : बरें.

ज्योतिशी : वयनी, भविश्यान तुमच्या हातान समाजसेवा जावपाची आसा, तुमचे आरोग्य भविश्यान ठणठणीत रावतलें आनी तुमचो संवसार फुला सारको फुलतलो.

मिथिला : आयकलां, पाया पडटा.... ज्योतिशी भाऊ म्हणटा म्हज्या हातान खंय समाजसेवा जातली.

आकाश : कर समाजसेवाच कर, तितको म्हाका विसव.

मिथिला : ज्योतिशी भाऊ तुमचे पैशे कितलें जाले?

ज्योतिशी : शंभर रुपया, पन्नास माझे आनी पन्नास ह्या पोपटाचें.

आकाश : वा! हो धंदो बरो आसा.

मिथिला : आयकला (आकाश पाय फुडें काडटा) म्हाका पाया पडपाचें ना.

आकाश : मागीर.....

मिथिला : ज्योतिशी भाऊक शंभर रुपया दियात न्हय.

आकाश : भविश्य तुजें पळयलें आनी पैशे हांवेन दिवप.

मिथिला : अशें किदें करता, म्हजें भविश्य तें तुमचें न्हय. दियात न्हय पैशे.

आकाश : (बॉलसान हात घालता) हे घें.

मिथिला : ज्योतिशी भाऊ हे घेयात तूमचे पैशे. ज्यातिशी भाऊ हांव तुमच्याखातीर च्या हाडटा. (भितर वता)

ज्योतिशी : सायब एक प्रश्न विचारूं?.

आकाश : विचार.

ज्योतिशी : ना, म्हळ्यार तुमची बायल तुमका दिसाक कितले फावट पायां पडटा.

आकाश : हिशोबूच दवरूंक ना, पूण ती म्हज्याच न्हय कोणाच्याय पाया

पडटा. तू हांगासल्ल्यान बेगीन वच ना जाल्यार ती तुज्या पोपटाकूय पाया पडत. (ज्योतिशी पांजरो घेवन धांव मारता. आकाश हांसत रावता. मिथिला च्या घेवन येता)

मिथिला : हो ज्योतिशी भाऊ खंय गेलो?

आकाश : हांवेन ताज्या पोपटाचे भविश्य सांगलें म्हण तो धांवलो.

मिथिला : म्हळ्यार?

आकाश : ताचें सोडून दी, म्हज्यो सिगरेटी सोंपल्या हांव घेवन येता. (भायर वता)

मिथिला : ज्योतिशी भाऊ च्या घेतल्याबगर किदयाक गेलें तें कळोंकना (पेपर घेवन भितर वता. समीर येता.)

समीर : आकाश, आसा कांय ना रे घरान, आकाश.

मिथिला : (भितरल्यान) कोण..... (भायर येता) कोण? तूं?

समीर : म्हाका दिसता आर्मी, हाचे आदी केन्ना तरी मेळ्ळ्या. राईट?

मिथिला : लग्ना आदीं एकदां आमची भेट जांल्ली. पूण तू हांगा कसो?

समीर : हांव म्हज्या इश्टाक मेळपाक आयला... तू आकाशची घरकान काय किदें?

मिथिला : हंय हाव तांची घरकान्न.

समीर : म्हळ्यार....... म्हळ्यार त्या दिसा तू आकाशाविशीं सांगतालें तर. आकाश म्हजो बरो इश्ट. ताणे आफोवन लेगीत हांव तुमच्या लग्नाक आयलो ना. खरें म्हळयार म्हजेंय लग्न म्हळ्यार कॉन्ट्रेक्ट, त्याच दिसा जालो. मागीर हांव म्हज्या संवसारान बीजी उरलो. आयज खूप दिसांनी ताका मेळुंशें दिसलें म्हण आयलो, आनी ..... अजाबूच जालें.

मिथिला : खरें म्हळ्यार तुका पळोवन म्हाकाच अजाब जालें. पूण आर्मी एकमेकांची वळख दवरली हें महत्त्वाचें. तू उबो

किद्याक, बस. (बसता)

समीर : तू सुखी आसा न्हय. म्हळ्यार आकाश बरो भुरगो, थोडो तापट आसलो तरी मनान शांत आसा. तू पयलीं ताज्या मोगान पडलें आनी तुमचें लग्न जालें आता तोय तुजेर तितकोच मोग करता आसतलो.

मिथिला : हय, तुजो संवसार कसो चल्ला.

समीर : ल्हान आसतना शेजारचें चली आनी हांव संवसार नावाचो खेळ मांडताले. आयजूय एका चलयेक घेवन हांवेन तसोच संवसार मांडला.

मिथिला : कॉन्ट्रेक्ट वाडोवपाचे किदें चान्सीस.....

समीर : कितलोय, वाडयलो तरी ताका निमाणी तारीक ठरतलीत. तुवेंन सांगूक ना. तू सुखी आसा न्हय?

मिथिला : हयं आसा हांव सुखी. (आकाश येता)

आकाश : समीर तू? आरे इतक्या दिसांनी अचानक.

समीर : याद आयली रे तुजी.

आकाश : म्हळ्यार उसरां जावं पूण याद आयली म्हजी, म्हाका दिसलें तू म्हाका विसरलो म्हण.

समीर : ना रें, तुका कसो विसरतलो. तुवेनूच म्हाका जिवीताचें खरें रूप दाखयलें पूण हांवूच तें पळोंक शकलो ना.

आकाश : तुका म्हजे बायलेची वळख करून दिता.

मिथिला : आमची वळख आसा.

आकाश : किदें सांगता?

समीर : हंय, लग्नापयलीं आमचीं एकदा भेट जाल्ली.

मिथिला : तुमी बसात हांव च्या हाडटा. (भितर वता)

आकाश : बस समीर (बसतात) आयज कितल्या दिसानी मेळटा तू म्हाका. तुजेंय लग्न जालें न्हय?

समीर : कॉन्ट्रेक्ट......

आकाश : हय, तुका लग्नाचें सांगपाक आयिल्लो त्या दिसा तुवेन कॉन्ट्रेक्टचे सांगिल्लें.

समीर : हय, आनी त्या दिसा तुवेन पूण म्हाका तूजे एक सिक्रेट सांगिल्लें, याद आसा?

आकाश : हय, याद आसा.

समीर : मागीर तें सिक्रेट तुजे बायलेक.

आकाश : अजून कळोंक ना.

समीर : किदें? पूण तू तर म्हणटालो की लग्नापयली तू ताका सगळें सांगून उडयतलो म्हण.

आकाश : हय पूण.....

समीर : पूण किदें, आकाश हांव तुजे बायलेक वळखता. तें खूप सादें आसा. ताचे सारखे बायलेक अशें फटोवप तुका सोबना.

आकाश : हांवेन ताका फटोवंक ना.

समीर : सत्य खबर आसून लेगीत तू ताचेकडे लग्न जालो ही फटींगपणां न्हय? आरे किदयाक ताज्या जिवीताकडे खेळटा. आकाश तें खूप मोग करता तुजेर.

आकाश : म्हणुनूच तर सागूंकना. तुका किदें दिसता लग्नाआदीं ताका हें, सत्य सांगिल्लें जाल्यार तें म्हाका सोडून वयतले आशिल्लें. आरे एकाक सोडून दुसऱ्याक धरपी ते फ्रॉड चेडू आशिल्लें जाल्यार त्याच वेळार ताका सगळें सांगतलो आसलो पूण मोगाखातीर जीव देणाऱ्याक हें सत्य कशें सांगपाचें?....

समीर : पूण आकाश हें सत्य कितले दिस ताज्यापासून धापून दवरतलो. ज्या दिसा पडदो वयर सरतलो त्या दिसा तुज्याबरोबर ताजेंय जिवीत उद्ध्वस्त जातलें.

आकाश : ताणें म्हज्यापासून पैस वयचे म्हण हाव ताचेकडे वायट वागपाचो यत्न करता, पूण तो चंद्र ह्या आकाशाक सोडपाकूच तयार ना.

आकाश : मागीर आतां तूच सांग हांव किदें करू. कशें सांगू ताका हें सत्य?

समीर : हांव यत्न करूं?

आकाश : नाका, ही गजाल दुसऱ्याकडल्यान कळली जाल्यार ताका चड दुःख जातलें. आतां म्हाकाच यत्न करूंक जाय. ह्या आकाशावेले काळे ढग आतां ताका हांवूच दाखयतलो...... (काळोख)

## आकाशाचें घर

(आकाश सिगरेट ओडीत बसला, मिथिला लजत भायर येता)

मिथिला : आयकलां.......

आकाश : तू किदें म्हाका भेरो समजता? किदें सांगपाचें आसा जाल्यार दर वेळार आयकलां अशें किदें म्हण्टा?

मिथिला : ती आमची.....

आकाश : संस्कृती, कळ्ळें. संस्कृतीचो अर्थ हिका खबर आसा काय कोणाक खबर. आता सांग किदें जाला? (लजता) लजता किद्याक, सांग बेगीन.

मिथिला : म्हाका लज दिसता.

आकाश : लजपाक निमित्त लागना हिका. हिच्या वांगडा संवसार करता करता हांव पिसो जातलो.... आता तू लजत रावतलें की सांगतलें.

मिथिला : हांव पयली तुमच्या पाया.....

आकाश : कानार मारतलो, परतून-परतून पाया पडशीत जाल्यार. पाय धरून धरून हाडांचो खुळखुळो केला तुवेन.

मिथिला : अशें किदें करता. अशा वेळार तुमचो आशिर्वाद घेवकूच जाय.

आकाश : अश्या वेळार म्हळ्यार?

**मिथिला** : अश्या वेळार म्हळ्यार..... म्हाका लज दिसता. देवा शंकरा, आतां तूच सांग रे.

**आकाश** : लजता तू, मागीर ताका किद्याक मर्दी हाडटा. सांग बेगीन.

**मिथिला** : म्हाका न्हय सकाळीं ओकाऱ्यो आयल्यो.

**आकाश** : मागीर लिंबू पिळून घे, बरें दिसतलें.

**मिथिला** : म्हाका आता लिंबूची न्हय, तुमच्या आशिर्वादाची.... (पाया पडपाक वता)

**आकाश** : परतून–परतून पायां पडूं नाका. कानार मारतलो.

**मिथिला** : आता म्हजेर तुमी मोठ्यान आंड्डो नाका.

**आकाश** : किद्याक? कानाचें ऑपरेशन जाला?

**मिथिला** : तुमका कशें कळना, पळ्यात आ..... शंकराचे कृपेन आमचो मोग जालो, शंकराचे कृपेन आमचें लग्न जालें, मागीर आता ताचेच कृपेन आमचो संवसार फुलपाक लागलो.

**आकाश** : आरे वा! हाल भोगता हांव. नाव मात शंकराचें.

**मिथिला** : आतां तांचेच कृपेन तुमका प्रमोशन मेळटलें तुमीं आतां बापूय जातलें.

**आकाश** : किदें?

**मिथिला** : हय, हांव तुमच्या भुरग्याची आवय जावपाची आसा.

**आकाश** : ना, हें कशें शक्य आसा, मिथिला हें कशें शक्य आसा.

**मिथिला** : इश्श हें म्हाका किदें विचारता.

आकाश : जोक करूं नाका. म्हाका टेन्शन आयला.

मिथिला : हातून टेन्शन कसलें. हें तर जावपाचेच आशिल्लें, त्या रार्ती तुमीच पयलीं रात मनयली आनी शंकराचे....

आकाश : आता हे बाबतीनूय शंकराक मर्दी किद्याक हाडटा आनी म्हाका एक सांग हें अशें जातलें हें तू त्याच वेळार

किद्याक सांगूंक ना.

मिथिला : इश्श! हें किदें सांगप नासता खबर आसचें पडटा.... आनी पळयात, चलो जालो जाल्यार ताचें नाव गणेश दवरपाचें, म्हळ्यार हांव पार्वती, तो गणेश आनी तुमी शंकर.

आकाश : बस कर, हें घर आसा हिमालय पर्वत न्हय.... हें कशें जालें तेंच अजून कळना.

मिथिला : म्हाका खबर आसा शंकराचे कृपेन....

आकाश : चूप, आता एक शब्द उलो नाका. भितर वच.

मिथिला : खय.

आकाश : भितर बॅडरूमान, हांव येता.

मिथिला : इश्श! अशें किदें करता. आदीं हाका तरी जल्माक येवनी.

आकाश : कानार मारतलो चल भितर (वता, आकाश काय वेळ सिगरेट ओडटा आनी भितर वता.)

**समीराचे घर**

*(समीर हातान पोती घेवन भायल्यान येता)*

समीर : जालो, सगळो बाजार जालो. आता घरान कसलीच कमी पडोंग जायना. घरांतले सगळे काम आता म्हाकात करूंक जाय. ताणें फकत विसव घेवपाचो. आयज हांव खूप खोशी आसा, आनी आसुकूच जाय. णव मयन्याउपरांत हांव एका भुरग्याचो बापूय जातलो. आता माका ओवर टायम करपाक जाय. आमच्या भुरग्याक आर्मी सगळे सुख दिवंक जाय. (कविता येता)

कविता : आरे खय गेल्लो तू सकाळीं, सकाळीं.

समीर : तू उठलें किद्याक?

कविता : मागीर दिसभर न्हिद म्हणटा.

समीर : हय, कारण आता तू विसव घेवपाचो.

कविता : आयज म्हजी इतकी काळजी किद्याक, आनी तू गेल्लो खंय?

समीर : बाजारान, हें पळय सगळें सामान हाडला.

कविता : सकाळी सकाळी बाजारान? आनी हें इतकें सामान किद्याक हाडला.

समीर : घरान कशाचीच कमी पडोंक जायना म्हण, आनींग तुका किदें जाय तें सांग, हाडून दिता.

कविता : समीर आयज किदें जाला तुका?

समीर : म्हाका कांयच जावंक ना पूण तुका जावपाचें आसा. म्हाका सगळें कळ्ळा

कविता : किदें कळ्ळा?

समीर : तुका म्हाका सांगपाक लज दिसता, हय न्हय? अशा वेळार बायला, लजतातूच पूण कविता हांवेन सकाळीत तुका ओकाऱ्यो काडटाना पळयला. पूण तू काळजी करूं नाका. तुका किदें जाय तें सांग.

कविता : आता तुवेन इतको बाजार केला तातून लींबू आसा जाल्यार दी.

समीर : लिंबू? तो किद्याक?

कविता : तुवेन पळयला न्हय म्हाका ओकाऱ्यो काडटाना मागीर अशे अवस्थेन लिंबूचो रस घेंव नाका जाल्यार किदें करूं?

समीर : अगो पूण तुका ओकाऱ्यो किद्याक आयलो तें कळोंक ना तुका.

कविता : हय कळ्ळां.... राती जेवण चड जालें आसतलें.

समीर : एक बायल आसून तुका सादी गजाल कशी कळना. कविता ह्या ओकाऱ्यांचो अर्थ वेगळो आसा.

कविता : म्हाकाय तशेंच दिसता. कामीण जाल्या आसतली.

समीर : अशे कशें कळना तुका कविता. तुज्यान कामीण न्हय भुरगो आसा.

कविता : किदें?

समीर : हय, कविता तू आवय जावपाचें आसा.

कविता : किदें? हें.....हें कशें शक्य आसा?

समीर : कशें म्हळ्यार गेली कित्येक वर्सा हें शक्य जायत आयला.

कविता : म्हळ्यार.... म्हज्या पोटान भुरगो... हाव आवय? ना.... ना....

समीर : कविता हे खबरेन तुका खोशी जावंक ना?

कविता : खोशी, कसली खोशी, तुवेंन फटयलें म्हाका.

समीर : हांवेन फटोवंक ना तुका. हावेंन तुका आवयपण दिला.

कविता : फोणान घालात तुमचे आवयपण म्हाका आवयपण नाका म्हाका.... म्हाका आता म्हजीच वीट येवपाक लागल्या.... म्हज्या पोटान भुरगे? म्हाका ही कल्पनाच सहन जायना. तुवेन फटयलें म्हाका. म्हजो विश्वासघात केला तुवेंन. म्हजो विश्वासघात केला तुवेंन. (धावत भितर वता)

समीर : हावेन तुजो विश्वासघात केला? जें एका घोवान बायलेक दिंवक जाय तेंच हांवेन तुका दिला. जर हांव विश्वासघातकी तर जगांतले सगळेच घोव विश्वासघातकी (काळोख)

## आकाशचें घर

(आकाश सिगरेट ओडीत फावटी मारता, मिथिला येता)

मिथिला : आयकलां हांव मात्शे देवळान वचून येता.

आकाश : एक मिनिट, म्हाका तुजेकडें किदें उलोवपाक जाय.

मिथिला : किदें?

आकाश : आदीं बस (बसता) मिथिला हांव तुजेकडे लग्न जालो कारण तू म्हज्या जिवीतांतले पयलेंच चेडू आशिल्लें जाणें म्हजे कुडीचेर न्हय, तर ह्या आकाशाचेर मोग केला. तुजो मोग पवित्र आसा हाचो म्हाका विश्वास आशिल्लो. पूण आतां म्हाका तुज्या चरित्र्याचेर दुबाव येवपाक लागला.

मिथिला : म्हज्या चरित्र्याचेर तुमी दुबाव घेता? पूण किद्याक?

आकाश : कारण, तुज्या पोटान अंकूर वाडटा ही गजाल म्हाका पटना.

मिथिला : अशें किदें करतात. हांव एक बायल आनी बायलांक ह्यो गजाली खबर आसता.

आकाश : तू आवय जावपाचें आसा ही गजाल हांव मान्य करता, पूण हांव बापूय जावपाचो आसा हें हांव मान्य करीना.

मिथिला : तुमच्या मनान किदें आसा तें तुमी स्पश्ट किदृयाक उलयना.

आकाश : स्पश्ट उलयता. तुज्या पोटान रुजत आयिल्लो आंकूर म्हजो न्हय.

मिथिला : तुमचो न्हय? मागीर कोणाचो?

आकाश : हाची जाप तुजेकडे आसा.

मिथिला : बायलेचेर अशे बुरशे आरोप करताना तुमका लजूय दिसना.

आकाश : लज म्हाका न्हय तुका दिसपाक जाय. घोवाकडल्यान सुख मेळना म्हण....

मिथिला : शी.... किदें उलयता तुमीं. तुमका ती रात याद ना जेन्ना मोट्टो पावस पडिल्लो.

आकाश : याद आसा.

मिथिला : आनी घडघड्याच्या आवाजान तुमका मारिल्ली वेंग.

आकाश : याद आसा.

मिथिला : मागीर फुडचेंय तुमकां याद आसतलेच.

आकाश : तू आताच म्हणी की तू एक बायल आनी बायलेक सगळे खबर आसता. मागीर तुका हें लेगीत खबर आसतले की फकत स्पर्शान कांयच जायना.... स्वताचें पाप लिपोवपाक तू म्हाका फटोवंक सोदता.

मिथिला : हांव तुमका फटयना, तुमी स्वताक फटोवन घेता.

गुलाबाची पाकळी गळोन पडली आनी म्हणटा कांयच जालें ना.

**आकाश** : हय, फकत काय वेळाखातीर हांवेन स्वताक तुज्यान शेणोन घेतिल्लो पूण निमाणे पायरेर हांवेन स्वतक सावरलो.

**मिथिला** : हांव तुमची हक्काची बायल, मागीर किद्याक स्वताक सावरले?

**आकाश** : हाची जाप हांव तुका दिवं शकना.

**मिथिला** : अरे वा! स्वत जाप दिवप ना वयल्यान दुसऱ्याचेर बुरशे आरोप करपाचें.

**आकाश** : हांव बुरशे आरोप करीना.

**मिथिला** : मागीर हांव तुमच्या भुरग्याची आवय जावपाची आसा हें सत्य स्विकारात.

**आकाश** : म्हाका हें सत्य मान्य ना.

**मिथिला** : किद्याक मान्य ना? अशे ओगी किद्याक? सांगात, किद्याक मान्य ना तुमकां?

**आकाश** : कारण लग्नापयर्ली हांव कुडींच्या बाजारान खेळला ॲण्ड बिकोज ऑफ दिस आय ॲम सफरींग फ्रॉम एडस्. म्हाका एडस् नावाचो महाभयंकर रोग आसा.

**मिथिला** : किदें?

**आकाश** : हय, आनी हे परिस्थितीन हांवेन तुजेकडे कुडीचे संबंध दवरिल्ले जाल्यार ताचो परिणाम तुका आनी जन्माक येतल्या भुरग्याकूय जावपाचो म्हणून हांव तूज्यापासून इतके दिस पैस रावलो. त्या राती लेगीत स्वतःची तान भागोवपाक हांवेन तुजो बळी दिवंक ना. मागीर कशें म्हणूं शकता तू की तुज्या पोटान आशिल्लें भुरगें म्हजें म्हण.

**मिथिला** : खरें तुमचें, म्हज्या पोटान तुमच्या भुरग्यान जल्म घेवंक

ना.

आकाश : मागीर कोणाचें हें पाप.

मिथिला : कोणाचेच न्हय.

आकाश : म्हळ्यार?

मिथिला : आय ॲम नॉट प्रेग्नंन्ट, हांव गुरवार ना. म्हज्या पोटान आंकुर जल्माक येवकूच ना.

आकाश : म्हळ्यार तू....

मिथिला : फट उलयलें तुमचेकडे.... तूमचेकडे फट उलोक जायना आशिले. त्या राती इतक्या लागी येवन लेगीत तुमी म्हाका पैस केलें. किदच्याक? ह्याच प्रश्नाची जाप म्हाका सोदपाची आशिल्ली म्हणून हांवेन हें नाटक केलें पूण म्हाका खबर नाशिल्ले की म्हज्या प्रश्नाची जाप मेळोवपाखातीर म्हाका ह्या सत्याचो सामनो करचो पडटलो म्हण. (रडटा)

आकाश : ज्या दिसा तुका लग्नाक हयकार दिलो त्याच दिसा थारायलें इतकी वर्सा भरपूर गुलाब पिस्कटत गेलो. आता पळोवया तातुंलो एक काटो घावो दिवन गेला जाल्यार. दोतोराकडे वचपाक भंय आनी लजूय दिसपाक लागली म्हण मागीर लायब्ररीन गेलो. एडस् विशयाचें पुस्तक काडलें आनी तातुंतलीं त्या रोगाची लक्षणा वाचली आनी त्या वेळार म्हज्या पाया पोनची जमीनूच निसटली, कारण जीं लक्षणां हांवेन पुस्तकान वाचिल्ली तींच हांव म्हजे कुडीन भोगतालो. लग्नापयलींच हे सत्य हांव तुका सांगपाक सोदी पूण तू म्हज्या मोगान इतके पिशे जाल्लें की माका तें धाडस जावंक ना.

मिथिला : म्हळ्यार तुमी तुमची टेस्ट करून घेवंक ना?

आकाश : ताची म्हाका गरज दिसली ना.

मिथिला : अशें कशें, तुमी टेस्ट करून घेयात. जोर आयलो, थंडी लागली, म्हळ्यार ती मलेरियाचीच लक्षणां आसता अशे ना. तुमचो अदमास चुकला आसत, त्या लक्षणाचो अर्थ वेगळोच आंसू येता. तुमची टेस्ट करून खात्री करून घेवया.

आकाश : सांगलें न्हय ताची गरज ना म्हण. म्हज्या कर्माचीं फळां म्हाका भोगचीत पडटली.... (भितर वता)

मिथिला : म्हजें आयकून तरी घेयात. (ताच्या फाटल्यान वता. - काळोख)

## समीराचें घर

समीर : खंय गेलें हें, भायर वतना सांगूनय वचना. मनशान मॉडर्न जावचें पूण इतकें? (कविता येता) अगो. खय गेल्लें तू. म्हाका सांगून वयचें न्हय.

कविता : तुका सांगून गेल्लें जाल्यार तू वचपाकूच दिवचो नाशिल्लो.

समीर : अगो हे परिस्थितीन तुजी काळजी हांव घेवचोना जाल्यार कोण घेतलो? पूण तू गेल्लें खंय तें सांगूक ना.

कविता : दोतोराकडे.

समीर : दोतोराकडे, किदयाक? तुका त्रास जाला? म्हाका सांगचें न्हय, हांवूय येंतलो आशिल्लो. आता कशें दिसता तुका?

कविता : खूप हलकें दिसता, सगळें टेन्शन पैस जाला म्हज्या जिवीताक लागलेलो डाग हांव पुसून आयला.

समीर : म्हळ्यार?

कविता : हावेन ॲबॉर्शन करून घेतलें.

समीर : किदें?... तू.... तुवेन ॲबॉर्शन केलें? म्हज्या भुरग्याक तुवेन मारलो? किदयाक? किदयाक म्हण...

कविता : म्हाका ताका जल्माक घालपाचो नासलो म्हण.

समीर : एक बायल आसून तू अशें वागलें?

कविता : हांवेन जें किदें केलें तें म्हज्या भल्याखातीरूच.

समीर : तुज्या भल्याखातीर? आनी म्हजो विचार तुका करू सो दिसलो ना? कितलीं सपनां रंगयल्ली हांवेन. आवय बापायक काळखान दवरला. आतां भुरगें जाल्या उपरांत लग्नाची खबर सांगून तांचो नातू तांच्या पदरान दवरतलो आशिल्लो. पूण आतां कांयत उरुंक ना, सगळें सोंपलें.

कविता : म्हणून सांगता सपनां पळोवप सोडून दी.

समीर : पूण लग्नाउपरांत दर एकल्याचें सपन आसताच.

कविता : आमचें लग्न न्हय, कॉन्ट्रेक्ट जाला हें किदयाक विसरता तू.

समीर : तूज्याखातीर तो एका वर्साचो कॉन्ट्रेक्ट आसत. पूण म्हज्या खातीर एका जल्माचें नातें तें.

कविता : कविता कितलीय सोबित आसली तरी ती एकदाच वाचप आसता. हें नातें सोंपपाक आतां थोडेच दिस उरल्या हें लक्षान दवर.

समीर : हय थोडेच दिस उरल्या, मागीर तुजो रस्तो वेगळो आनी म्हजो रस्तो वेगळो. तुका वाटेर परतून म्हज्यासारको कोण मेळटलोत आनी तू ताच्याय हातान एका वर्साचो कॉन्ट्रेक्ट दितलें. हांवेन मात आवय बापायक सांगपाचें, आवय-बाबा तुमच्या चेड्यान लग्न केलें. हय लग्न पूण फकत एका वर्साखातीर. एक वर्स सोपलें एक जल्म सोंपलो.

कविता : हांवेन तुका फोर्स करूंकना. तुका सांगलेंलें जें चलता तें चलोनी पूण तुका बाशींग बानपाची हौस आसली.

समीर : हय पूण खंय बानले बाशींग? बाशिंगाच्या नांवार कॉन्ट्रेक्ट कपळार चिकटावन घेतलो.

कविता : हें पळय, हांवेन तुका फोर्स करूंकना.

**समीर** : तूवें कशाकूच म्हाका फोर्स करुंकना, हांवेन सगळे खोशेन मान्य केलें. कारण हांव तुज्या मोगान पडलेलो, पिसो जाल्लो तुज्या मोगान..... पिसो जाल्लो. (समीर रडटा... कविता भितर वता. काळोख)

## समीराचें घर

*(कविता मोबायलार उलयत उबें आसा मिथिला येता)*

**मिथिला** : कविता

**कविता** : कोण मिथिला? वॉट अ सरप्रायस, यो बस. तुका हो पत्तो कोणें दिलो.

**मिथिला** : काल वाटेर डॅडी मेळ्ळो.

**कविता** : म्हळ्यार डॅडी मेळ्ळो म्हण म्हजी याद जाली?

**मिथिला** : जाका आर्मी विसरता तांची याद जाता.

**कविता** : तशें जाल्यार इतके दिस फोन किद्याक करुंकना.

**मिथिला** : घरान इतकी कामां आसता कि वेळच मेळना.

**कविता** : तुवेंन संवसारान स्वतःक गुंतून घेतला हें तुका पळल्यारूच कळटा. खरेच मिथिला खूप बदल जाला तुज्यान.

**मिथिला** : तू म्हाका साडयेन पयलेफावट पळयतां न्हय, म्हण तुका तशें दिसता.

**कविता** : पयलेफावट? अगो कॉलेजान 'सारी डे' दिसा आमी दोघांयनी साडी नेसलेली याद ना तुका?

**मिथिला** : याद आसा तर, आनी साडयेन घुस्पटोन तू कॉलेजीच्या सोंपणांचेर पडलेलें ते लेगीत याद आसा.

**कविता** : तुवेन सांगलें म्हण हांव नेसलें. नाजाल्यार म्हाका आवडना साडी नेसप. आतां पळय लग्नाउपरांत लेगीत हाव साडी नेसोंकना

**मिथिला** : तशें तुज्या गळ्यान मंगलसूत्रय ना. तें लेगीत तुका

आवडना दिसता.

**कविता** : मंगळसूत्र घालपाक हांवेन सात जल्माचें वचन दिवंक ना. एक सायन मारून फकत एका वर्साचें वचन दिला.... तें सोडून दी. मिथिला, खरें म्हळ्यार म्हाका तुजें लग्न पळोवपाचें आशिल्लें पूण तुजे लग्न आनी आमचो कॉन्ट्रेक्ट एकाच दिसा जालो. तुजो संवसार कसो चल्ला?

**मिथिला** : संवसार.... चल्ला.....

**कविता** : मिथिला तू म्हजेकडे किदें तरी लिपयता. हे पळय मिथिला तू म्हज्या भुरग्यापणाचें फ्रेंड. आजमेरेन तुवेन म्हजेकडे खंयचीच गजाल लिपोंग ना. मिथिला किदें आसा जाल्यार उलोवन वडय.

**मिथिला** : कशें सांगू?

**कविता** : सांग

**मिथिला** : कविता... कविता तांका एक रोग आसा.

**कविता** : रोग? कसलो?

**मिथिला** : ही इज सफरींग फ्रॉम एडस्.

**कविता** : किदें?

**मिथिला** : लग्नापयलीं तांचें कांय चेडवांकडे संबंध आयिल्लें आनी म्हणून.....

**कविता** : अगो पूण ही गजाल तुका आतां कळ्ळी.

**मिथिला** : हय.

**कविता** : म्हळ्यार ताणें फटयलें तुका?

**मिथिला** : ना तांणी म्हाका फटोंकना हांवेनूच स्वताक फटोवन घेतलें.

**कविता** : अशे कशें म्हण्टा तू, लग्नापयलीं ताका हे गजालीची माहिती आशिल्ली न्हय.

**मिथिला** : हय.

**कविता** : मागीर ताणें किदयाक सागूंग ना तुका.

**मिथिला** : म्हजो मोग अर्धकुटो रावोंक जायना म्हण.

**कविता** : फट उलयता तो. ताका तुजो विश्वासघात करपाचो आशिल्लो.

**मिथिला** : कविता तांची अजून टेस्ट जावंक ना, फकत त्या रोगाचीं लक्षणां तांच्यान आसा म्हण.

**कविता** : मिथिला आकाशान काळें ढग दिसले की समजुपाचे पावसाचीं लक्षणां आसा म्हण. वेगळी खात्री करपाची गरज ना. म्हणून म्हाका लग्न आवडना. विश्वासघात सगळो.

**मिथिला** : तांणी म्हजो विश्वासघात करुंकना. अगो हाचो परिणाम म्हाका आनी म्हज्या भुरग्याक जावचो न्हय म्हण तांणी म्हजेकडे कुडीचे संबधूय दवरूंक ना. खरें सांगचें म्हळ्यार म्हाका तांचेर अभिमान आसा.

**कविता** : किदें?

**मिथिला** : हय, लग्नापयलीं दिसतालें की फकत म्हजो तांचेर मोग आसा, पूण ना म्हज्यान चड तांचोच म्हजेर मोग आसा.

**कविता** : हें कशावेल्यान म्हण्टा तू.

**मिथिला** : ह्या रोगाविशी कळ्ळें म्हण तांणी म्हजेकडे कुडीचे संबंध दवरूंक ना. आनीक कोण अशे करतलो आशिल्लो? तूच एक दिस म्हणी न्हय जग खूप मुखार पावला आयज सगळेच वासनेचो खेळ खेळटा पूण ह्या खेळान जर डाग लागलो जाल्यार तो डाग निरपराध मनशा मेरेन पावचो न्हय म्हण हाची खबरदारी कोण घेता? पूण तांणी ही खबरदारी घेतली म्हणून म्हण्टा म्हाका तांचेर अभिमान आसा.

**कविता** : मिथिला तू ताच्या मोगान अजूनय कुंडडे आसा. अगो स्वत:चो असो छळ करून घेंव नाका, म्हजें आयक,

तोडून वडय तें नातें.

**मिथिला** : कविताऽऽऽ जल्माजल्माचे नातें केन्ना तुटना.

**कविता** : मिथिला सत्याचो स्वीकार कर, हें नाते आता अर्धकुटेंच रावतले. अगो तुजो शंकर लेगीत आतां कांयच करू शकचोना.

**मिथिला** : देवान हार मानली आसत, पुण हांवें हार मानूंकना. सावित्रीन यमाकडल्यान घोवाचो जीव परत हाडलो. हांवूय म्हजे कूंकु पुसपाक दिवचें ना.

**कविता** : मिथिला पिश्यासारकें उलोव नाका. म्हजें आयक आताच दुसरें लग्न कर.

**मिथिला** : कविता ऽऽ

**कविता** : अगो हांवूय तेंच करपाचें.

**मिथिला** : होच, होच तर तुज्यान आनी म्हज्यान फरक आसा. हांव आयुश्यभर संस्कार, धर्म, परंपरा हाचीच पूजा करत आयलें, आनी तू..... फॅशन, मॉडनीसम, सेक्स हाचीच पूजा करत आयलें. तुज्याखातीर लग्न म्हळ्यार फकत एक कॉन्ट्रेक्ट. पूण म्हज्याखातीर तें जन्माजन्माचें नातें. तुका ह्या मंगळसूत्राचें म्हत्व नासत, पूण म्हज्याखातीर हेंच म्हजें सौभाग्य..... कविता, ..... मोग, घोव, संवसार ह्यो गजाली तुका केन्ना कळोकूच ना. मॉडर्न जावप वायट न्हय, पूण मॉडर्न जावपाच्या नांवांसकल आमचें संस्कार चिड्डवप चुकीचें. कविता, बायल म्हळ्यार फकत कूड न्हय. बायल म्हळयार मोगी, बायल म्हळयार सौभाग्य, बायल म्हळ्यार आवयपण, पूण तुका हें कशें कळटलें. कळिल्लें जाल्यार जिवाभायर मोग करणाऱ्याकडे असो सौदो करचें नाशिल्लें ...... किदें वायट उलयलें जाल्यार म्हाका माफ कर. येता हांव.... (वचपाक,

इतक्यान कविताचो मोबायल वाजता) कविता, तुका केन्ना वेळ मेळत जाल्यार मोबायलावयल्या ह्या हॉट मॅसेजींतल्यान काय वेळाखातीर भायर यो आनी रामायणांतले सितेन स्वताक गुंतोन घे. घोवाखातीर कर्तव्य आनी त्याग म्हळ्यार किदें तें समजतलें तुका. येता हांव. (मिथिला वयता, कविता विचारांत गुंतला इतक्यान समीर येता.)

समीर : कविता, ॲड. डिसौझा मेळ्ळेलो. फाल्यां आमचो कॉन्ट्रेक्ट सोंपता. ताणें हे पेपर दिल्या हातून आमच्यो दोघांच्यो सयो जाय. तुजी सय जाल्याउपरांत हांव करता. (कविताच्या हातान पेपर दिवन समीर भितर वता. कविता ताका पळयत रावता आनी हातांतल्या कागदांचेर नदर मारता)
(काळोख)

## आकाशाचें घर

(आकाश सोऱ्याची बाटली घेवन बसला)

आकाश : मि. आकाश हें किदें करता? आरे तुजी लिमीट सोंपली. आता पूरो! लीमीट सोंपली? सो वॉट? सोंपूं दी लिमीट. आय डॉन्ट केअर (हांसता) आय डॉन्ट केअर, आयुश्यभर हेंच म्हणत आयला न्हय तू. सातवेक एकदा नापास जालो, बाबान विचारलें-आरे नापास कसो जालो? हांवेन सांगलें आय डॉन्ट केअर. एकदां रस्त्यार झगडी जाली, एक रात पोलीस लॉकअपान घालयली पुण तेन्नाय हेच शब्द, आय डॉन्ट केअर. कॉलेजींतल्यान दोनदा रेस्टीकेट केलो तेन्नाय हेंच शब्द, आय डॉन्ट केअर. आतां तू जीवितांतल्यान कायमचो रेस्टीकेट जावपाचो आसा, आतां म्हण-आय डॉन्ट केअर (हांसता)कोण तरी सांगून गेला

मनशाक जुवानी एकदाच मेळटा आनी ती फुकट घालोवप नासता, एन्जोय करपाची म्हण हावेनूय एन्जोय केली. जुवानीचीं पाखां लावन खूप गारडनांनी भोंवलो. सोबीत, सोबित गुलाबांवांगडा खेळ्ळो. त्या खेळान गुलाबाच्यो. पाकळ्यो गळोन पडटाल्यो पूण हांवेन पर्वा केली ना. कोणतरी सांगूनय गेलो की आरे त्या गुलाबांवांगडा इतको खेळो नाका, कारण तांका कांटेय आसतात. पूण तेन्नाय हेंच म्हणत रावलो. "आय डोन्ट केअर".... आनी... आनी अकस्मात एक दिस एका गुलाबाचो एक कांटो केन्ना घावो दिवन गेलो कळोकूच ना. आता तो घावो म्हाका जगोंक दिना आनी मरोंकूय दिना. त्या गुलाबाच्या खेळान म्हजे जिवीत पिंड्डयार केलें. आज म्हजे हात रितेच आसा. रितेच आसा.... मिथिला. मिथिला म्हाका तू जाय... म्हाका तुज्या आधाराची गरज आसा... मिथिला म्हाका तू सोडून वंचू नाका. मिथिला परत यो. मिथिला म्हाका तुजें पाय धरून तुजी माफी मागपाक जाय. मिथिला परत यो... मिथिला (पडटा, मिथिला येता)

**मिथिला** : किदें जालें... किदें जालें तुमका?

**आकाश** : मिथिला खय गेल्लें तू.

**मिथिला** : हांव मात्शें भायर गेल्लें. पूण तुमीं ही किदें अवस्था करून घेतल्या? सांगलेंलें न्हय तुमकां चड पिवो नाका म्हण.

**आकाश** : मिथिला हांव तूजो गुन्यांवकारी, म्हाका माफ कर

**मिथिला** : तुमीं अशें किदें करता? हें पळयात तुमी ओगीच स्वतःक त्रास करून घेवं नाकात. तुमकां कायच जावचे ना. हांव आसा न्हय.

आकाश : मिथिला तू म्हाका सोडून तर वचचें ना न्हय?

मिथिला : हांव एक भारतीय बायल जी निमाणेमरेन सुख दुःखान घोवाक साथ दिता. हांव निमाणेमेरेन तुमच्या वांगडा आसतले.

आकाश : खरेंच? मिथिला तुजो मोग पळोवन म्हाका जगपाची इत्सा जाल्या.

मिथिला : सांगलें न्हय, तुमका कांयच जावचें ना म्हण. म्हजो शंकर म्हजे कुंकू काडून घेवंचो ना. म्हज्या शंकर देवाचेर विश्वास दवरात.

आकाश : मागीर चल, घेवन चल म्हाका. ज्या देवाचेर आयजमेरेन श्रद्धा आनी विश्वासूय दवरूंक ना, त्या देवाचें पाय म्हाका धरोनी. चल, घेवन चल म्हाका, तुज्या देवाकडे

(काळोख)

आकाशाचें घर

(दारार एक मनीस)

मनीस : मि. आकाश

मिथिला : (भायर येत) कोण?

मनिस : आकाश बोरकराचें घर हेंच?

मिथिला : हय..... किद्याक?

मनिस : डॉ. केरकरान हें ॲनवलप दिला (ॲनवॉलप दिता) बरें येता हांव (वयता, मिथिला ॲनवलप उगडटा. कागद वाचता, इतक्यान आकाश भायर येता)

मिथिला : तुमीं?....

आकाश : हय, हांवेन म्हजी टेस्ट करून घेतली. तुज्या हातान जो कागद आसा ताजेर म्हज्या पापाची खास्त बरयल्या. त्या काटेरी शब्दांचेर तुवेन नदर भोंवडायल्या आसतलीच,

मागीर सांग म्हज्या कुडींतलें रगत शुद्ध आसा काय अशुद्ध.

मिथिला : पूण........

आकाश : भियो नाका जें कोडू सत्य तू माका सांगतलें तें आयकुपाची ताकत आसा म्हज्यांत, फकत परतून एकदा सांग, तू म्हज्या बरोबर आसा न्हय?

मिथिला : हय, वर्सान वर्स हांव तुमच्या वांगडा आसा आनी तुमी म्हज्या वांगडा. तुमी तूमचो हो संवसार अर्दकुटो सोडून वचचें ना कारण शंकरान आमच्या संवसाराक नवीन जिवीत दिला.

आकाश : म्हळ्यार?

मिथिला : रिपोर्ट नेगेटीव्ह आसा. तुमकां कांयच जावंक ना.

आकाश : किदें?

मिथिला : हय (आकाश रिपोर्ट पळयता)

आकाश : मिथिला, मिथिला म्हाका कांयच जावंक ना. हांव जगतलो, आनीक जगतलो.

मिथिला : हय तुमीं जिखलें.

आकाश : ना मिथिला ही तुज्या आत्मविश्वासाचें जैत पूण मिथिला तुजे पुण्यायेन म्हज्या जिवितांत हो चमत्कार घडला आसत. पूण हो चमत्कार सगळ्यांचेच बाबतीन घडटलो असो ना. आयज ही नवी पिळगीं चुकीच्या मार्गान वता. वासनेच्या उज्यान उडी घेवन स्वत:चे कुडीचो गोबर करता. तांकां जाणविकाय ना की जशी जुवानी एकदाच मेळटा तशेंच जिवीतूय एकदाच मेळटा. हांव ज्या मरणाच्या दारामेरेन वतालो तेच वाटेन ही पिळगी वता. तांका आडावंक जाय. खरी दिशा दाखोंक जाय आनी ती दिशा तांकां हांव दाखयतलो. म्हज्या सारको हांव तांकाय आय

डोन्ट कॅअर म्हणूंक दिवचो ना. जेन्ना ह्या रोगाचो कायमचो नाश जातलो. तेन्नाच म्हाजें जैत जातलें. मिथिला, ह्या कामान तू म्हाका साथ दितलें न्हय. (हात फुडें करता, मिथिला हातार हात दवरता)

### समीराचें घर

(कविता साडी न्हेसला. भायर येता, दारावयलो प्लास्टीक तोरण काडून पानांचो तोरण लायता, भितर वता. समीर भायल्यान येता, दारावेल्या तोरणाक पळयता. कविता भायर येता. कविताक साडयेन पळोवन अजाब जाता. थंय आशिल्ले पेपर हातान घेता)

**समीर** : कविता.... तुवेन हाचेर सय करुंकना? (कविता ताच्या हांतातले पेपर घेता, पिजून वडयता आनी समीराच्या पायां पडटा. दोघांच्या तोणार खोशी)

### हॉस्पिटल

*(डोर किपर बसोन कान साफ करता. समीर टेन्शनान बॉटांची नाखटां खाता. आकाश शांत बसला)*

**समीर** : अे आकाश अजून कशें काय जायना, म्हाका टेन्शन आयला.

**आकाश** : तुज्या बरोबर म्हजोय नंबर आसा. हांवेन खय टेन्शन घेतला. सगळें सारकें जातलें.

**समीर** : पूण कितलो वेळ लागतलो? हांव त्या वॉचमनाक विचारून येता.... वॉचमन, वॉचमन.

**डोर–किपर**: अे तुज्या.... वॉचमन कोणाक म्हणटा. म्हज्या हातान दाणो आसा? हें ऑपरेशन थेटराचें दार आनी हांव दारार आसा म्हळ्यार हाव ऑपरेशन थेटराचो डोर किपर, कळ्ळें?

समीर : हय.

डोर–किपर: आता सांगात किदें जाला?

समीर : म्हजी बायल भितर आसा.

डोर–किपर: किदें? ती भितर किदें करता?

समीर : ती बाळंत जावपाची आसा.

डोर–किपर: तें पयली सांगपाक कळना आनी म्हाका एक सांग, ती बाळंत जावपाची आसा, मागीर तुका किद्याक टेन्शन आयला. म्हजी बायल धा वेळा बाळंत जाल्या हांवेन एकदाय टेन्शन घेवंक ना.

समीर : ती म्हजी लाडाची एकुलती एक बायल.

डोर–किपर: आनी म्हाका किदे शंभर आसा?

समीर : तशें ना पूण ताजेर हांव खूप मोग करता.

डोर–किपर: करता न्हय, मागीर एका जाग्यार शांत बस.

समीर : पयलीं कोणाचे बायलेचो नंबर लागतलो?

डोर–किपर: आता तें म्हाका कशें कळटले.

समीर : वांगडा लागलो तरी हरकत ना. किदें आसा, जशें आर्मी इश्ट तशीच ती लेगीत भुरग्यापणाचे इश्टीणी.

डोर–किपर: हाका म्हणटात इश्टागत, ह्या वेळारूय दोगांय वांगडाच (भुरग्यांचो रडपाचो आवाज येता)

समीर : जालो, जालो हाव बापूय जालो, हाव बापूय जालो. आकाश हांव बापूय जालो.

डोर–किपर: तू उडयो किद्याक मारता, शांत बस. नर्स तुमच्या भुरग्याक घेवन भायर येतली, ही पळय आयली. (नर्स भुरग्याक घेवन येता समीरच्या हातान दिता)

नर्स : कॉंग्रेट्स, तुमका चलो जालो (भुरगें दिता)

समीर : आकाश, म्हजो भुरगो तुज्यासारको कसो दिसता?

| | | |
|---|---|---|
| **नर्स** | : | तुमचें नांव......... |
| **समीर** | : | समीर |
| **नर्स** | : | दी तो भुरगो हांगा (घेता) हो तुमचो चलो. (आकाशाक दिवन वता) |
| **समीर** | : | ओगीच टेन्शन आयलें. आकाश, बरो दिसता तुजो भुरगो. दोळे सारके वयनीचेर गेल्या (भुरग्याचो आवाज) जालो आतां हांव बापूय जालो. (नर्स भुरग्याक घेवन येता.) |
| **नर्स** | : | कॉंग्रेट्स, तुमका चेडूं जालें (भुरग्याक दिवन वता) |
| **समीर** | : | आकाश, म्हजें चेडूं पळय कितलें गोड. आकाश तुका आताच सांगून दवरता आ. तुज्या चेड्याक म्हज्या चेडवापासोन पैस दवर. ताणें म्हज्या चेडवाचेर लायन मारली जाल्यार पळय. (परत आवाज) |
| **आकाश** | : | समीर, भितर आमच्यो दोघांच्योच बायलो आसल्यो न्हय, मागीर हो तिसरो आवाज कसो जालो? |
| **समीर** | : | हांवूय तोच विचार करता (नर्स भुरग्याक घेवन येता) |
| **नर्स** | : | कॉंग्रेट्स तुमकां जुळीं चेडवां जाल्या. |
| **समीर** | : | किदे? (नर्स भुरग्याक दिवन वता, वतना डोअर किपर भितर वता. मिथिला आनी कविता भायर येता, चौघाय आपापल्या भुरग्याक खेळयता) |

## समाप्त



महेश चंद्रकांत नाईक

## उजवाडाका आयिल्लीं नाटकां

- ॲक्शन
- ऑल फॉर यू
- ॲरेस्ट हिम
- ॲक्टींग ॲक्टींग
- आय ॲम सॉरी
- ॲक्चुअली...आय लव्ह यू
- आत्मो
- आत्या, आत्या सून कर
- ओन्ली फॉर यू
- आमीं ना कमीं
- आय डोन्ट केअर